# यादें माई



शालिनी जी.शिंक्रे

शब्दांकन

स्मिता तिबले




# यादें माई

(शालिनी जी. शिंक्रे हांचे जिणे उगडास)

शब्दांकन

*स्मिता तिंबले*

बिम्ब
प्रकाशन






**प्रकाशक** / बिम्ब प्रकाशन, ‘धर्म-लक्ष्मी’, सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.
**दूरध्वनी** / (०८३२) २४३८३५५.
**प्रकाशन क्र.** / **१२१. अक्षर जुळणी** / बिम्ब प्रकाशन.
**छापणावळ** / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

**पयली आवृत्ती** / २९ नोव्हेंबर २०१६.
**मुखपृश्ठ** / कलानंद कामत बांबोळकार
**यादें माई** (उगडास) स्मिता तिंबले
**Yaadem Maayi** (Book of Memoirs) *by* ***Smita Timble***
**मोल** : रु. १८०/-




**ISBN : 978-93-85654-09-1**

माईच्यो ह्यो यादी
यादी सांगपाचे
माइचि कळाशेक
आनी
माईक वेळावेळार
गरजेक पाविल्ल्यांचे यादींक
भेटयतां....

- स्मिता

श्री

सौ.प्रिय वेणि श्री गणाधीश
सौ.प्रिय कुंदु श्री प्रभाकर

माझी पच्यात्तरी जवळ आली आहे
माझी इच्छा अशी आहे की
मी मेल्यावर माझे शरीर कोणत्या तरी
हॉस्पीटलला द्यावे तसेच माझे कोणतेही
क्रीयाकर्म सुतक बारावा वगैरे काहीही
करू नये हे मी पूर्वी पासूनच पूर्ण विचार
करून व मनापासून ठरविले आहे
सर्वांस माझा शेवटचा नमस्कार

शालिनी मकरंदास शिंदे

( माई )

# माई यादेंविशीं

**म्हजी** काणी सांगूंक गेल्यार येऽदेंऽऽ व्हऽडलेंऽऽ पुस्तक जातलें!

जाण्टीं आपले अणभव सांगतात तेन्ना हीं उतरां खूब फावट तांच्या तोंडांतल्यान येतात. माईय अशेंच म्हणटाली. तेन्ना हांवें चिंतलें ना की हांव तिचीं उतरां वेंचून बरोवंक शकतलें. येदें व्हड न्हीं पूण ल्हानशें पुस्तक तरी बरोवन जालें, हाचें समाधान आसा.

माईच्या तोंडांतल्यान यादींच्यो झरी फुटत रावताल्यो. थोड्यो हांव झेलूंक पावलें. थोड्यो उरल्याच आसतल्यो! सगल्यो शिंपल्यो काय आमी वेचूंक शकतात? थोड्यो काळाच्या ल्हारांनी व्हांवन वतात. ज्यो वेंचल्यो, त्यो तुमच्या मुखार दवरतां.

सत्तर-पंच्यात्तर वर्सांचो काळ उलगला. पुला पोंदच्यान खूब उदक व्हांवन गेलां. जो काळ माई जगली त्या काळांतलें सगळेंच आतां आमचे खातीर आऊट्‌डेट. जसो आता एक पयसो आऊट्‌डेटेड जाला. माई सांगता की, चार पयशांक पाटयेर बरोवपाची एक काडी मेळटाली आनी ती फक्त परिक्षे वेळार विकती घेताले. त्या खातीर, मागीर बोट-बोटभर काडी सांबाळून वापरतालीं. चिंचो, चिंचारे बी दिवन काडये कुडके मेळोवपाक माई हुशार आशिल्ली. वयार येता मेरेन तिका दुसरे मेरेनचें शिक्षण मेळ्ळें. वयार येतकूच पुस्तकांक हात लावप ना, हो कायदो आशिल्लो. कारण विद्या म्हळ्यार सरस्वती. विद्येचे देवतेक वाडिल्ल्या चलयांनी हात लायल्यार भश्टकार जातालो.

संकुचीत विचारांक बळी थारिल्ल्या कितल्याशाच चलयांचें शिक्षणीक जीवन त्या वेळार अर्दकुटें उरलां आसतलें. तांची घुस्मटमार जाल्या आसतली. आतां आमचे मुखार शिक्षणाचें दार पुरायपणान उगतें जालां. म्हणून आमकां तांची त्या वेळेची परिस्थिती समजूं येता. माईच्या हातांतली काडी जावन हांवें तिचें जीवन चितारपाचो यत्न केला. पुस्तक बरोवपा

फाटल्यान त्या वेळचो काळ जाणां जावन घेवंचो, होय एक उद्देश आशिल्लो.

माईच्या अणभवान भरिल्लें हें पुस्तक तुमकां आवडटलेंच अशी आशा करतां.

सोशीकपण, बुद्धीमान आनी चिकाटी अशे दुर्मीळ गूण आशिल्ले माईक हें पुस्तक आदरपूर्वक अर्पण करतां.

म्हजे जिणेक अर्थपूर्ण साथ दिवपी म्हजो वांगडी प्रभाकर तिंबले हांचे आभार कशे मानूं? तो नाजाल्यार ह्या पुस्तकाचो जल्मूच जावंचो नाशिल्लो. 'यादें माई, अशें सुरू कर गो.' असो ताणें धाडिल्लो मेसेज म्हाका मेळ्ळो आनी जवळजवळ त्याच दिसा हांवें बरोवपाक घेतलां. म्हणून तेंच नांव तिचे यादींक चिकटून उरलें.

हांव आनी माई ताचीं खूब रुणी आसात.

या पुस्तकाक सातत्यान आपल्या म्हयनाळ्यांत उजवाडाक हाडपी दिलीप बोरकार हांचे खूब उपकार. तांणी ह्यो यादी पुस्तक रुपान येवपाचें येवजिल्ल्यान तें जावन पडलें. ताचें सगलें श्रेय तांकांच वता.

*- स्मिता तिंबले*

''दी ती पोटली हांगा.''

बाबुरावाच्या कानार उतरां पडलीं. ताणें पोटली दिवपाक हात फुडें केलो. धाडकन मारिल्ले दाराचे चिमटेंत ताचें करंगळीचें बोट चिड्डलें. 'आवय गेऽऽ' अशी ओंठार आयिल्ली किळांच बाबुरावान बळयांच भितर दामून धरली. तो घराभायर. ताचे सवती आवयन बळयांच दार धांपून घेतिल्लें.

बाबुराव म्हळ्यार श्री. पुरुषोत्तम बळवंत गुणाजी. म्हजो बापूय. भुरगेपणांत सवती आवयच्या जाचाक कंटाळून धांपिल्ल्या दाराकडेन फाट करून ताणें घर सोडलें आनी बेळगांवां कोणाचे तरी सांगणेवेल्यान याळगींगेर येवन रावलो.

जशें मातयेंत बीं किल्लता तशें सहजपणान आडसाटे पिरायेचेर दिश्टी पडटा तें काम शिकत वचपाची फिशालकाय ताचे भितर फुलत गेली. याळगींच्या घरा उमेदीचें वातावरण आसतालें. गांधी, किर्लोस्कर अशा नामनेच्या लोकांचें येवप–वचप जातालें. ताका लागून वातावरणाचे सैमीक संस्कार ताचेर जायत गेले. पोटाखातीर म्हणून बेकरीचें काम, मॅकानीकचें काम तो शिकत गेलो.

बेळगांवां याळगींचें घर म्हळ्यार भरिल्लो दुदाचो कळसो कसो! दिसाक जेवणाच्यो कितल्योशोच पंगती उठताल्यो. सकाळचें मोव गुरगुटें शीत आनी ताचेर तुपाची धार अशी वेगळी पंगत आसताली. अशा सूख संपन्न घरांत आपलें सुरवातीचें आयुष्य ताणें संपन्न केलें.

ह्या घरांत प्रवेश करचे पयलीं न्हंयचे देगेर लोकांनी ओंवाळून उडयिल्ले पयशे उखलून जे दीस ताणें सारिल्ले त्यो यादी ताणें न्हंयच्या उदकांतूच सोडून दिल्यो.

वीस–बावीस वर्सांचो जातकूच ताचे गांठीक आतां थोडो पयसो आयिल्लो.

न्हंवरो म्हणून आतां ताचेर लोकांचे दोळे थीर जावंक लागिल्ले. हाका ताचे सवती आवयचे कुळारचीं लेगीत अपवाद नाशिल्लीं. सावड्ड्याच्या लाडांगेर चली पळोवपाचें ताका आमंत्रण आयलें.

दुसरे दिसा चली पळोवपाचें थारलें. गोंयांत आयलाच तसो खांडोळ्यां शिनीभटागेर पावट मारपाक गेल्ले कडेन गणपती देवळांत तांदूळ वेचूंक बशिल्ली १२–१३ वर्सांची 'मोगा' ताचे नदरेक ओझरती दिश्टी पडली आनी नकळतूच ताच्या मनांत घर करूंक सोदूंक लागली.

थारिल्ले प्रमाण दुसरे दिसा म्हजो बापूय सावड्ड्यां चली पळोवपाक गेलो.

जेवण बी जातकूच चली भायर येवपाक कांय वेळ आसतानाच तांगेर एकार एक अशे रचून दवरिल्ल्या मातयेच्या कळशांतलो एक कळसो ठाऽ करून फुटलो. वेळ आनी ज्योतीश हांचो बरे पयकी अभ्यास आशिल्ल्यान म्हज्या बापायक ही गजाल मानवली ना. शिनीभटाक विचारपाचें निमीत्त करून तो चली पळयनसतानाच सावड्ड्याच्यान परत खांडोळ्यां गेलो. भटाक ताणें घडिल्ली गजाल सांगली. ताणेंय ताका तुवें फुडें पावल न घाल्यार बरें असो सल्लो दिलो.

हेवटेन तेवटेनचें उलोवन जातकूच थंयचो उठटा तेन्ना ल्हवूच म्हज्या बापायन, 'काल तांदूळ वेचूंक बशिल्लें तें चली कोण?' असो प्रस्न केलो. ते बराबर उदक खंय मुरता हाचो सुगावो लागून शिनीभटान ही गजाल ते चलयेच्या आवयच्या कानार घाली. 'बेळगांवां?' अशे चिंतेस्त उद्‌गार

काडपी तिचे आवयक, 'बाबुरावा सारको गुणेस्त भुरगो दुसरो मेळचो ना आं!' अशें सांगून शिनीभटान धीर दिलो. आनी काळजांत घर करूंक सोदताली ती चली व्हंकलेच्या रुपांत बाबुरावाच्या घरांत प्रवेश करून मथुरा जावन बसली.

सामको सरळ वृत्तीचो, मोगाळ, निर्व्यसनी आनी उमदे सभावाचो बाबुराव आनी कश्टी, सोशीक आनी मायेस्त मोगा हांचो संवसार सुरु जालो. मेकानिकर्चीं कामां तशेंच बेकरीचो धंदो हातूंत ताका बरेंच यश मेळ्ळें. लश्कराक भाकरी पावोवपाचें काम लेगीत ते करताले अशी म्हाका अंधूकशी याद जाता. तेन्नाचें तांचें न्हेंसप बी सामकें गिरेस्ती थाटाचें आशिल्लें. तेदेवेळार चडशी कोणागेर दिश्टी पडनाशिल्ले जिपींत बसून हांव आनी म्हजो भाव बाळ आवय-बापाय बरोबर गोंयांत म्हज्या मामागेर गिरि सातोस्कारांगेर येतालीं. जोधपूरी कोट घाल्लो बाळ आनी गुडगुडीतशें हांव सगल्यां मदीं उठून दिसतालीं, सगल्यांक आवडटालीं.

पूण हें सूख आमी चड तेंप भोगूंक पावलीं नात. दीस परतले, सोबीत असो आमचो घराबो विसविशीत जालो.

अशेंच एक फावट गिरीमामाच्या लग्नाक म्हणून आयिल्ल्या आपल्या कुटुंबाक गोंयांत दवरून म्हजो बापूय बेळगांवां परतलो. ताचें कोल्हापूरचें बस्तान तार्णे हालोवन बाळाक गोंयांत हाडिल्लो. एक-दोन म्हयन्याक म्हण आयिल्लीं, पांच-स म्हयने म्हजो बापूय परतलोच ना म्हूण सगल्यांक चिंता जाली. एक दीस भयणीन दिल्ले थोडे पयशे गांठीक लावन म्हजी आवय दोगांय भुरग्यांक सांबाळीत बेळगांवां पावली. थंय पळयत जाल्यार, म्हज्या बापयचो धंदो सामको बुडला. आशिल्लें नाशिल्लें सगळें काबार जावन भरिल्लो संवसार घरमालकाच्या ताब्यांत आसा. पयशे मेळटले आनी थकिल्लें भाडें फारीक करतलों म्हणपाचें सादलेंच ना. आसा ते

परिस्थितींत दीस काडपाचे थारायतकूच कोणाल्यातरी घराफाटल्यान एका व्हडशा सालांत–जंय कांयच सोय ना अशे जाग्यार आमी रावपाक सुरवात केली.

आमी आमच्या बापायक 'मामा' म्हणटालीं. मामान केन्नाच कोणाची चाकरी केली ना. स्वताचो वेवसाय आशिल्ल्यान ताका कोणाचीच चाकरी करपाची इत्सा नासताली. आपलो धंदो बसतकूच आतां तो कितें करतालो म्हूण कोण जाणां, पूण खंयच्यान तरी कश्ट करून थोडें–थोडें कितें तरी संवसाराक हाडून दितालो. म्हजे आवयन ल्हवू–ल्हवू पत्रावळी करपाक सुरुवात केली. बाळ पत्रावळीं पेणो घेवन विकपाक वतालो. लोक अर्दे किमतीक मागताले. तरीकूय पयशांक पादीशेर जाल्ल्यान मेळत त्या पयशांक त्यो दिवंच्यो पडटाल्यो. तांदूळ आसत जाल्यार लाकडां नात आनी लाकडां आसत जाल्यार तांदूळ नात अशे कठीण प्रसंग सदांच येताले. म्हजें वय ल्हान आशिल्ल्यान म्हाका कांय कळनाशिल्लें. येतिश्ट खेळप, फुगड्यो घालप, उंडारप इतलेंच म्हाका कळटालें. खूब भूक लागतकूच पोटाक घट्ट कपडो बांदून भूक लागल्या म्हणटकूच हातार पडटा तें खावप आशिल्लें. आवय याळगींगेर पडत तें काम करताली. तांदूळ वेंच, गोडा ढेंपो जाग्यार घाल अशीं ल्हान व्हड कामां करतकूच घरा वतना, 'मथुरे, तू हे घरी घेऊन जा.' अशें कितें तरी मेळटालें. कितलेशेच दीस फक्त हरवीं केळींच उकडून खाल्ले दीस याद आसात. मागीर बाळ याळगींगेर कंपाऊंडर म्हणून काम करपाक लागलो.

थंय कितलींशींच बिराडां आसतालीं. निमाणच्या बिराडांत देशपांडे म्हणून रावतालीं. तिणें म्हाका एकदां आपले बरोबर बैलहोंगल हांगा एका लग्नाक व्हेल्लें. बरे आठ दीस तांचे बरोबर लग्नांत मस्त नाचून खेळून हांव रावलें. मर्दींच म्हाका म्हजो मधुकरकाका थंय मेळ्ळो. ताणें मोगान म्हाका

चांदीचे दोन रुपया दिले. म्हाका तो केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो चांदीचो रुपया खंय दवरूं आनी खंय नाका असो जालो. हांवें तो आवयक दाखयलो. बाळान म्हाका एक बरोऽ मिलेर तयार करून दिलो आनी 'हातूंत दवर आं, कोणेंय पयशे दिल्यार हातूंत जमय' म्हणून सांगलें. पूण ताचेनंतर तातूंत केन्ना भर पडलीच ना.

थोड्या दिसांनी म्हजी आवय आपलो संवसार सोडोवन हाडपाक घरमालकागेर गेली.

थंय पळयत जाल्यार घरमालकाची आवय जमनीर न्हिदल्या आनी तिका हांथरूंक घाल्ल्यो सगल्यो चादरी आमच्योच आसात. आमचीं काचेंचीं आयदनां, उंची वस्ती, सोबीत हारशे सगळें एकीकडेन दवरलां.

आवयन आपूण वस्तू हाडूंक आयिल्ल्याचें सांगतकूच घरमालकान, 'बरें, चार दिसांनी यो' म्हणून सांगलें. बाळान सगल्यो काचेच्यो वस्तू घालपाक एक काश तयार केली. आवयन एक दमणी केली आनी सामान व्हरूंक घरमालकागेर वचत जाल्यार ताणें सगलें सामान पुसून घेवन थंयच्यान फुज्ज्यो काडल्या. परत एक फावट तोंडाकडेन आयिल्लो घास कुशीक सरिल्ल्याचो पळोवन आवय सामकी दुख्खी जाली. तातूंतल्यान सोशीत तिणें संवसार कसो तरी चालूच दवरलो. पूण नित्याचे हे धाकटधपाशे तिच्यान सोंसपाक जायनाशिल्ले. तरी लेगीत ती मामाचेर केन्नाच तापली ना. कित्याक तर ताची कांयच चूक नासतना सगळें घडटालें. घरदार ना जाल्यार लेगीत तिणें मामाक दोशी थारायलो ना. हालीं न्हय त्या कामाक संवसार विस्कटता तें पळयत जाल्यार म्हजे आवयची समजीकाय चड प्रकर्शान लक्षांत येता.

आयिल्ल्या प्रसंगांतल्यान दीस काडप इतलेंच तिणें थारायिल्लें. घोव दिश्टी पडल्यारूच पुरो अशें तिका जातालें. एक दीस मामा घराकडेन

आसतनाच धाडकन जमनीर कोसळ्ळो. भस्स करून ताका कितलेंशेंच परसाकडेन भायर सरलें. आवयन 'धांवात, धांवात' म्हूण व्हडल्यान किळांच मारली. सगळीं बिराडां जमलीं. पूण हात घालूंक कोण फुडें सरतलो? आवयन तशेंच मामाक सांबाळ्ळें.

सगळें पुसून काडलें....

अशेच काळे किट्ट दीस सरताले. आवयच्या सोशीकपणाक सीमा नाशिल्ली. एक दीस आमकां सगल्यांक फोंड्यां धाडपाची मामान तयारी केली. आवय दोगांय भुरग्यांक घेवन फोंड्यां वत्सल मावशेगेर आयली. तिचो देह आनी मन खूब थकून गेल्लें. ती जी आयली आनी न्हिदली ती खूऽब दीस मेरेन न्हिदुनूच रावली.

वत्सलमावशेक चर्रर जालें...

''आगो उठ्टा मगो मोगा? केन्नाच्यान तूं न्हिदुनूच आसा.''

वत्सलमावशेन भयणीक परतून एक फावट हालोहालोवन जागें केलें. निमाणें एक फावट आवयन दोळे सताड उक्ते केले आनी भयणीकडेन पळयलें. ते नदरेंत कसलीच वळखिची खूण नाशिल्ली. कसलेच भाव नाशिल्ले. ती अर्थशून्य नदर पळोवन वत्सलमावशी भियेली. तरी लेगीत धिरान वयलेचाराक कांय न्हीं शें करून ताणें भयणीक भायर येवंक सांगलें.

म्हजी आवय हांथरूणार उठून बसली खरी. पूण आपलें न्हेंसण सारकें करून भायर येवपाचें काय तिका जमना जालें. तें पळोवन मावशेच्या मनांत शंकेची पाल चुकचुकली. तिचे कडेन उलयत उलयत तिचो पदर सारको करून तिणें तिका चौकेर हाडून बसयली. 'तोंड धुयता मगो मोगा?' अशें म्हणटा थंय आसा, ती सट्ट करून मुतूंक म्हणून थंयच बसूंक लागली.

आतां मात वत्सलमावशेचो दुबाव खरो थारलो. भियेवन तिच्या पोटांत गुळो आयलो. इतले दिसांच्या चिंता आनी कटकटींनी म्हज्या आवयच्या मेंदवाचेर परिणाम जाल्लो. इतली शाणी-सुरती, समंजस बायलमनीस भकास चेहऱ्यान घरभर वावरूंक लागली.

खंयूय परसाकडेन बसप, कितेंय करप. असल्या प्रकारांनी तिणें सगल्यांक नाकापुरो करून सोडलें. एक दीस तर तिणें मेजार दवरिल्ली आख्खी सुपारीच काडून दातापोंदा कडाकड धरून चाबून उडयली. आतां म्हजे आवयची स्थिती भरिल्ल्या घरांत दवरपाची नाशिल्ली. म्हज्या मामान, गिरि सातोस्कार हाणें तिका आपल्याला घरांत माशेलांत रावपाक व्हेली. म्हजे आज्जेच्या जाणटेपणांत आपले अपुरबायेचे धुवेची अशी अवस्था जाल्ली पळोवपाचें नशिबांत आयलें.

‘बेळगांवा?’ हो आपणें चलयेचे सोयरिके वेळार विचारिल्लो प्रस्न तिका याद जालो. दुख्खाचो सुस्कारो तिच्या तोंडांतल्यान भायर सरलो. पूण खिणभरूच. आयिल्ल्या प्रसंगाक तोंड दिवपाची तांक तिचे भितर उपजतूच आशिल्ली. तिणें आपले धुवेक बरी करपा खातीर कमर घट केली. देव-प्रसाद-दोतोर कितेंच करपाचें दवरलें ना. दोन-तीन घाडी तिचेर एका बरोबर प्रयोग करताले. ताणीं विचारिल्ल्या प्रस्नांची जाप योगायोगान खरी थारताली. तांचेर सगल्यांचो विस्वास बसतालो. निमणें ताणीं निश्कर्श काडलो की म्हजे आवयचेर भूत बसलां आनी ते त्या भुताक न्हिवळायतात. हें न्हिवळावप म्हळ्यार तिका बाबडेक येतीश्ट मार-मार मारप. तें पळोवन घरचीं भुरगीं-बायलो किंळच्यो मारतालीं. तिनसांजेचें भिशण आनी विचित्र अशें वातावरण घरांत जातालें. त्या वेळेच्या असल्या अघोरी उपायांनी दुयेंत अर्दो मेल्ल्यांत जमा जातालो.

घरांतल्यान मातशें कुशीक सरूंक मेळचें म्हूण म्हाका शाळेंत धाडटालीं. घराक तेकुनूच म्हजी शाळा आशिल्ली. त्या दिसा सुर्यगिराण आशिल्लें.

हांव दुसरेंत गेल्लें. आमकां गुरुजीन सांगलें, ''चलात आज तुमकां हांव गिराण दाखयतां.'' ते बराबर सगळीं भुरगीं उडक्यो मारीत शाळे फाटले दोंगूल्लेचेर चडपाक लागलीं. गुरुजींचे आवडीचें आशिल्ल्यान हांव सगल्यांत फुडें आशिल्लें. ताणीं म्हाका अपुर्बायेन वर्गाचें मॉनीटर केल्लें. 'शाल्या' अशें ते म्हाका मोगान उलो मारताले. अभ्यासांत हुशार, कसलेंय काम चोख करपी आशिल्ल्यान ते म्हाका खूब तोखेताले. हांव कपलाक लायतां तो कुकूम लेगीत. ते सगल्यांक सांगताले, ''कुंकू मोठे नसावे, टिकली नसावी. सर्वामधे सभ्यता दिसावी. म्हणजे शाल्यासारखे.'' तांणी म्हाका पयलें आयलें म्हणून 'नल–दमयंती' हें पुस्तक दिल्लें म्हाका याद आसा.

तर, गुरुजींबरोबर गिराण पळयतना अकस्मात फाटल्यान उलो आयलो. ''माई, तुजी आवय बरी ना गो. तुका आत्तांच यो म्हळ्ळां.'' खाडकन भानार येत हांवें गुरुजींकडेन पळयलें.

''चल शाल्या बघून ये. जा घरी.'' गुरुजींन म्हळें.

ते बरोबर धांवत धांवत हांव घरा आयलें.

दुदाचो तांबयो भितर हाडपाक म्हणून गेल्ली म्हजी आवय, माई 'बाळ' अशें म्हणत आरिचो आताक येवन जमनीर कोसळ्ळी. तिच्या एका आंगान तिची साथ सोडली. म्हजी आजी तशेय स्थितींत कुलेरांनी दुदाचो थेंबो तिच्या तोंडांत घालपाचो यत्न करताली. कांयच न समजून हांव ताच्या तोंडाक पळयतूच रावलें. मळबांतलें सुर्यगिराण घरभर पसरिल्लें.

कांय दिसांनी आवयचे स्थितींत मातसो फरक पडलो. म्हजे शिटूक आज्ञेन तिच्या बोटांची हालचाल जावंची म्हणून तिका गोयड्यो शिवूंक दिवंच्यो. तिचे हात सारके चलनाशिल्ले, पूण फाटक्या संवसारांत पोन्न्याचे कपडे वापरून ती भितरले कपडे शिंवताली.

''आई घाल म्हजे बटण.'' मुद्दाम आपलीं बटणां सोडून हांवें आवय मुखार बसचें. एका हातान आवयन म्हाका सासपूचें आनी बटण घालपाचो यत्न करचे. म्हजो तो सदचोच खेळ जावन बशिल्लो.

मर्दींच म्हाका मामाची–म्हज्या बापायची खूब याद येताली. ताची याद येतकूच आपल्या हातावयलो चामखीळ हांव सासपून पळयतालें. म्हज्या बापायक तो चामखीळ खूब आवडटालो. ताका पळयल्यार खूब्ब तेंप जाल्लो. खंय बाबडो आशिल्लो देवूच जाणां!

आवयची परिस्थिती पळोवन हांसचें काय रडचें तेंच कळनाशिल्लें. आरिच्या आताकान तिचें पिशेंपण वचून ती परतून पयलीं भशेन जाल्ली खरी. पूण तिचें अर्दें आंग गेल्लें. तें वतना तिची वाचाय घेवन गेल्लें. तोंडांतल्या तोंडांत पुटपुटत ती कशीबशी कुरुवांनी सांगताली.

अकस्मात एक दीस आवयच्या मनांत चान्नें फुललें. घोवाची कांयच खबर कळनाशिल्ली. वाट पळोपळोवन मन निर्शेल्लें आनी वाऱ्यावेल्यान आयिल्ले भशेन मामान बरयिल्लें एक पत्र आवयच्या नांवार माशेलांत घराकडेन येवन पडलें.

तातूंतलो मजकूर वाचून आवयक तें पत्र खंय दवरूं आनी खंय नाका अशें जालें. आमकां सांगतली जाल्यार धड उलोवंक येना. पूण, फिस–फिस–फिस फिस करून पत्राक पोशेवन कुरवांनी तिणें सांगपाचो यत्न केलो.

मागीर आमी तें पत्र हातांत घेवन वाचलें. तेन्ना आमच्याय आनंदान तेंगशी गांठली. आमचो मामा आमकां व्हरपाक येवपाचो आशिल्लो. इतलेंच आमकां पुरो आशिल्लें. कितलींशींच वर्सां एकेमेकांची ताटातूट जाल्लें आमचें कुटूंब एकामेकांच्या सांगातान रावंक सोदतालें. खुशालकायेन आमकां स्वर्ग दोन बोटां उरलो.

त्या दिसांनी गांवांत वचत थंय देवळांनी काले, संगीत नाटकां, शिगम्याचीं नाटकां चालूच आसतालीं. आज्जेक आपले धुवेक घराच बसून राविल्लें पळोवं नज जालें. आग्रो कर करून तिणें म्हजे बरोबर नाटक पळोवपाक धाडलें. म्हजी आवयूय हालीं मामा येतलो म्हणून खुशालशी आसताली. नाटक सुरु जावपाकूच धा–इकरा वरां जालीं. थंयच्यो लायटी, आवाज तिच्यान सोसूंक नजो जालो. म्हाका घेवन आडखळत आडखळत ती तशीच घरा परतली.

''म्हज्यान थंय बसूंक जायना.'' अशें तिणें कुरवांनीच आज्जेक आनी मामीक सांगलें आनी ती मुतूंक म्हणून फाटले दाराकडेन वचपाक घबांयच करून आवाज जालो. आज्जी आनी मामी धांवलीं..

परत एक फावट आवयक अरिचो आताक आयिल्लो. ह्या वेळार तिची मान लटलटूंक लागली. हाथरूणावयल्यान उठूंक जायना जालें. गेलें वर्स भर काडिल्लें दुयेंस परतून नेट धरून तिचे कुडीचेर चाल करून आयिल्लें. हे खेपो मामाक मेळपाची खर आस तिचे मनांत तेंवताली. पूण ती आस पूर्ण जालीच ना. थोडे दीस तशीच हांथरूणार उरून तातूंतच ती आमकां सगल्यांक सोडून गेली. 'आई आई' ह्या आमच्या उतरांक प्रत्युत्तर दिवपाक ती ना जाली. पयसूल्ल्यान आमचेर नदर दवरपी दोन दोळे ना जाले. आठ वर्सांचें हांव आनी तेरा वर्सांचो बाळ हांकां आज्जेचे आनी मामीचे व्हंटयेंत घालून तिणें आपले अधू दोळे कायमचे धांपले.

पत्र धाडिल्लें खरें. पूण मामाचो पत्तो कोणाकूच खबर नाशिल्लो. आवयचें क्रियाकर्म करपाक मामा मेळ्ळो ना. तो खंय आसा, कितें करता हाचो कोणाकूच पत्तो लागनाशिल्लो.

शेवटाक मामाचो भाव, म्हजो गणपतकाका फुडें सरून ताणें तिचें क्रियाकर्म केलें.

आपल्या पिलांक सोडून गेल्ले ते आवयच्या आत्म्याक कितलीशी शांती मेळ्ळ्या आसतली कोण जाणां! पूण तिची सासाय आवय-बापाय बगर वाड्पी भुरग्यांक सदांच मेळटाली.

निमणें गणपतकाकान आवय गेल्ल्याची खबर कशेभशेन मामाक कळयली. जिवाच्या आकांतान मामा माशेलांत आयलो. म्हाका घट्ट वेंगेंत घेवन म्हणपाक लागलो, ''हाता तोंडाकडें आलेला माझा घास निघून गेला बघ.'' ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. आजोळच्या लोकांनी बाळाक आनी म्हाका मामाबरोबर धाडलें ना. रोयलां थंयच वाडूनी असो ताणीं विचार केलो. इतल्या वर्सांनी आयिल्ल्या मामाचो तितलो येवकार जालो ना. मनांतल्या मनांत निर्शेवन तो परतलो.

मळबा इतलें दुख्ख दिवन काळ तसोच फुडें सरलो. एक फावट शाळेंत गेल्ले कडेन मदले सुटयेंत दोन नंबराक वचपाक म्हणून हांव म्हजे मैत्रिणीक घेवन शेतांत गेलें. शेतांत मोट बांदिल्ली. बांय पुराय भरिल्ली. अदमास चुकून, म्हजो पांय निसरून हांव बांयत उदारेंच पडलें. नाका-तोंडांत उदक गेल्ल्यान मिडमीडलें. पूण हांवें हात-पांय जोराजोरान हालोवपाक सुरुवात केली. उदक नाकांत वचूं नये म्हणून हांवें एका हातान नाक दामून दवरलें. कांय खीण हांव तशेंच स्वताक वांचवपाचो यत्न करत रावलें. बरोबर आयिल्ली मैत्रिण काचाबूल जावन आड्डूंक लागली. पूण त्या वेळार कोणाचोच आवाज आमचे मेरेन पावलो ना.

इतल्यांत मोटेक बांदिल्लो माड अकस्मात अळंगसो म्हजे वटेन झुकलो. बांयचे देगेर म्हाका म्हजे आवयचें मुखामळ अस्पश्टशें दिश्टी पडलें. कोणें तरी म्हाका हात दिवन वयर ओडिल्लेवरी जालें आनी दुसऱ्याच खिणांक उदकान थबथबिल्ली म्हजी कूड थरथरत येवन भायर उबी रावली. म्हजे बरोबर आयिल्ली मैत्रिण आंऽ करून म्हज्या तोंडाक पळयतूच रावली.

गांवच्या कितलेशेच लोकांच्या जिवाची काळ थारिल्ली ती बांय आज मात मोगाचे धुवेक व्हरूंक शकली ना. मोगान अस्पश्ट रूपान येवन धुवेक आलतडीं पावयलें!

आवय नासतना लेगीत ती आसाच असो साक्षात्कार म्हाका जायतच रावतालो.

तेच सासायेन हांवें म्हजें भुरगेंपण हुंपलें.

आपले कुशींत आशिल्ल्या दोनूय नातरांची आज्जेक चिंता जाताली. त्या काळच्या रितीप्रमाण चली भुरग्याच्या शिक्षणाचो हुसको तांकां नाशिल्लो. पदरांत पडिल्लें चौथे मेरेनचें शिक्षण म्हाका शिक्षणाचे बाबतींत सदांच अतृप्त दवरून गेलें. शाळेचें सोंपण म्हज्या जिवितांतल्यान सासणाचें निसटलें तें निसटलेंच.

बाळाक मात फुडें शिकोवपाक जाय असो विचार फुडें आयलो. आमची मावशेभयण तुळशी– नामनेचे कवी भौ. दामोदर अच्युत कारे हांची घरकान्न हांचेकडेन ताका दवरून ताका 'पोपुलर' हे इंग्लिश शाळेंत घालो. थंयच ताका सव्वी सातवी म्हणजे तेन्नाची मेट्रीक करूंक मेळ्ळी.

केन्ना केन्नाय आमचो बापूय आपल्या भुरग्यांची खबर घेवंक, तांकां दोळोभर पळोवंक येतालो. पूण आमकां आपल्या म्हऱ्यांत दवरपाचें धाडस ताका नाशिल्लें.

म्हज्या गिरिमामाची बायल शांताबाई. आमची ही मामी खूब हुशार आनी धाडशी बायल आशिल्ली. गिरीमामा इराणाक आसतालो. मामीन स्वताचे हिकमतीचेर एकट्यान आपल्यालें येदें व्हडलें घर बांदून घेतलें. एकटेनूच तीन चले आनी दोन चलयांचो संवसार बरे भशेन चलयलो. तिचे घरची नितळसाण आनी मागीलदारची फुलबाग आमकां भुरगेपणांत खूब्ब आवडटाली. माशेलांत सगल्यो बांयों खूब खोल. तांचो तळ लेगीत

पळयतल्याक दिश्टी पडपाचो ना. एक कळशी उदक काडूंक गेल्यार धा मिनटां तरी लगतालीं. अशे बांयचें उदक काडून ती झाडां कशी शिंपता हाचें आमकां अजाप दिसतालें.

मामीचें आनीक एक कर्तूब म्हळ्यार तिचें सुंदर भरतकाम. घरांतलो एक्कूय कपडो तिणें बेठोच उडयल्लो मेळचो ना. तिची सोबीत मडवळाकुरू सगळेकडेन आसताली.

आवय–बापूय नाशिल्ल्या म्हाका आनी बाळाक तिणें आपल्या भुरग्यांभशेनूच वाडयलें. आपल्या पांयांर उबीं रावऽ मेरेन तिणें आमकां आसरो दिलो. म्हजी आवय गेल्या तेन्ना मामीय वयान ल्हानूच आशिल्ली. एकूण सगले परिस्थितीचो तिच्या मनार खूब परिणाम जालो. तिनसांज जातकूच ती खूब भियेताली. रात जातकूच व्हडल्या घरांत कयपंजी घेवन दिव्यांत तेल घालपाक लागतकूच तिचें काळीज भंयान जड जातालें. अशा वेळार धाकलो बाळ तिच्या आदाराक येतालो. आपल्याच्यान जाता तशी तिची सेवा करतालो.

‘नाका रे बाळ.’

तिणें दोळे भरून ताका सांगचें. पूण उपकाराचें वजें मनार आशिल्ल्यान जेवणाचीं ताटां घे, पाट दवर, मामीची साडी घडी करून ती पाटापोंदा दवर अशीं कामां करीत रावतालो. हांव आठ–णव वर्सांचें. आपले पिरायेक न सोबऽ सारकीं अशीं शेण काडप, उंच दांडयेचेर कपडे सुकत घालप असलीं कामां करतालें.

मामीच्या दुयेंसाक थारो मेळचो म्हणून त्यावेळचे पद्धतीप्रमाण घाडयाक घरा हाडटाले. पाटार भाताची मूठ घालून घाडयान आसो काडचो. ताच्या आंगांत आवयचो आत्मो येतालो. आनी म्हज्या भुरग्यांक सांबाळ अशी

मामीकडेन याचना करीत रावतालो. मामीचो जीव भियेवन वतालो. तिणें केन्नाच आपले म्हज्यांत आमी आसासर आमकां दुख्ख दिलें ना.

आज्रे बरोबर रावन हांव तिच्या कामांत सतत हातभार लायतालें. भात उकडून तांदूळ करप, पायली–पायली भात सुकत घालप, पापड करप असल्या कामांनी हांवें खूब मदत करची.

आज्री तर हरहुन्नरी आशिल्ली. वेळेगरजेक गांठीक पयसो आसूंकूच जाय अशें ती सदांच सांगताली. अमृतवेल हाडून त्यो व्हडल्या व्हडल्या तोपांनी घालून तांचेपासून ती वखद तयार करताली. आनी दुकानांनी, वैद्यांक बी विकताली. त्याभायर, पत्रावळी करून विकप, उडीद घरा हाडून ताचेपासून उडीददाळ तयार करून विकपाचीं खूब कश्टाचीं कामां ती करताली. हांव ह्या सगल्या कामांनी तिचो उजवो हात जाल्लें.

बरोच तेंप काजूबियो सोलून दिवपाचें काम आमी दोगांनीय केलें. काजूबियो घरा हाडप, त्यो भाजप, तातूंतल्यो दाबयो (दोन अर्दां), गड्डे (चार अर्दां), कुडको (बारीक कुडके) आनी म्होवलो (आख्ख्यो बियो)अशें वेगवेगळें बांदप. अशें पांच रातांच्या डब्यांनी घालपाचें काम आमी दोगांय करतालीं. हांव मागीर तो डबो घेवन चलत माशेलांतल्यान तिवरें वचून झांटयाल्या काजू कारखान्यांत विकतालें. इतले कश्ट करून आमी तीस रुपया जमयिल्ले. पूण ते काय उरतात?

एक दीस बाळाक पयशांची गरज आशिल्ली. आपलें सातवी मेरेनचें शिकप जातकूच ताका मुंबय नोकरे खातीर वचपाचें आशिल्लें. आपली भयण आनी आजी दोगांय मेळून काजूबियां काम करतात तेन्ना तांचे कडेन आपल्याक पयशे मेळटले असो विचार करून बाळान उतर घाल्लें. पूण ते पयशे एका जाग्यार केन्ना उरल्यात? सोंपलेच ते. तेन्ना आज्री ताच्या आदाराक उबी रावली. ''पयशे जाय मरे? हांव पळयतां तें! तूं

भियेंव नाका पळोवया.'' अशें म्हणून पातळ आंगार काडून आज्जी चलत खांडोळ्या दत्तबाब खांडेपारकारागेर गेली.

मुडीभर उडीदाचे पापड आज्जेन ताका करून दिल्ले. तिची दत्तबाबाकडेन बरी वळख आशिल्ली. ''म्हज्या नातवाक थोड्या पयशांची गरज आशिल्ली. मेळटले? थोडे थोडे करून हांव तुजे पयशे पावयतां.'' अशें आज्जेन म्हणिना फुडें दत्तबाबान तिका रोखडेच पयशे दिले.

त्याच पयशांच्या आदारार बाळाक आपलो फुडार सोदूंक मेळ्ळो.

''माई आतां पंदरा-सोळा वर्सांचें जालें. आतां हांव ताका म्हगेर व्हरतां.'' अशें तुळशीआकान आज्जेक सांगलें. आपले नातीक तुळशी बरे भशेन पळयतलें हातूंत आज्जेक मात्तूय दुबाव नाशिल्लो. तुळशीआकाक सदांच कोणा ना कोणाक तरी आपले बरोबर दवरूंकूच जाय आशिल्लें. ताका चार चले आनी एक चली. श्री. कारे हे खूब शांत आनी मोगाळ सभावाचे आशिल्ले. भुरग्यां बरोबर खेळूंक कोणीय दुसरे भुरगे आसल्यार तुळशीआकाक खूब बरें दिसतालें.

हे फावट ताणें म्हाका व्हरपाचें येवजिल्लें. म्हाका शिवण शिकयली, शिलाई मशीन चलोवंक शिकयलें. म्हज्या सगल्या कामांची ते मनापासून तोखणाय करताले. 'सगलें काम कितलें सफाईन करता गो तूं.' अशें ताणें अपुर्बायेन म्हणचें.

तागेर घराक लागता तें सामान भाडेल माथ्यार मारून हाडटालें. हांव येतकूच ह्या भाडेलाकडल्यान ताणें म्हजे खातीर एक विस्तीदाक आनी घागरो पोलको शिवपाक कपडो हाडून घेतलो. आनी तो शिवूनूय म्हाका घालो.

थोड्याच दिसांनी माईक, 'हांव व्हरपाक येतां' असो मुंबयच्यान बाळाचो रकाद आयलो. आतां हांव भावागेर रावतलें ह्या विचारानूच म्हाका खूब

खोस जाली. बाळ आनी ताचो इश्ट गुरुदास शिक्रो हे तेन्ना वांगडाच रावताले. मुंबय बामणवाड्यांत गुरुदासान आपल्या नांवारूच तो जागो घेतिल्लो. कितले दीस आपले भयणीन दुसरेकडेन रावप? असो विचार करून बाळान म्हाका आपले बरोबर रावपाक हाडटलो असो विचार केलो आनी सोमतोच तो स्वता येवन म्हाका घेवन मुंबय गेलो लेगीत.

मुंबय वतना हांव भावान हाडिल्ली साडी पयले फावट न्हेसलें आनी पांयांत जोतें घालें तेंय बी आयुश्यांत पयलेच फावट!

सगल्यांत खोशयेची गजाल म्हळ्यार, मामा –आमचो बापूय बाळाक अकस्मात मुंबयंत मेळ्ळो. मामा एका भाज्नेच्या व्यापाऱ्या बरोबर काम करतना ताका दिश्टी पडलो. कितलेशेच वर्सांनी दोगांयची भेट जाली. बाळान मामाक आपले बरोबर रावपाक बामणवाड्यांत व्हेलें. हांवूय गोंयच्यान आयलें. आमकां सगल्यांक खूब वर्सांनी बरोबर रावंक मेळिल्लें. फकत आवयची उणीव याद जावन दोळे भरून येताले.

मामा जायत्या वर्सांनी भुरग्यां बरोबर राविल्लो. आपले कडल्यान जाता तितली मदत करतालो. मोरारजी गोकुळदास मिलींत तो काम करतालो. आनी घरा येतकूच आमकां मदत करतालो. हांव बांयचेर कपडे उमळूंक गेलें जाल्यार आपूण बांयचें उदक काडून दितालो. म्हाका रादूंक शिकयतालो. बेळगांवचे पद्धतीच्यो भाज्यो, दाळीचे तरातरांचे रोस हें सगलें बशिल्ले कडेन सांगीत रावतालो.

शेजारच्या कसुरकान्नीकडेन म्हजी बरी दोस्ती जाली. ती जवळ-जवळ म्हज्या आज्नेच्या वयाची आशिल्ली. तिणें म्हाका सुरबूस पुन्नपोळयो करूंक शिकयल्यो.

मुंबय वतकूच बाळान म्हाका अपुर्बायेन दोन पुस्तकां वाचूंक हाडून दिलीं. एक 'साने गुरुजींच्या गोड-गोड गोष्टी' आनी दुसरें 'श्यामची

आई'. हांव खूब खूश जालें. त्या पुस्तकांचीं हांवें पारयणां केलीं. म्हाका वाचपाचें पिशें बाळाक लागुनूच लागलें. रांदतां–रांदतां वाचप, रात–रात जागोवन पुस्तकां वाचून सोंपोवप, तान–भूक विसरून वाचीतूच रावप अशें जावपाक लागलें. ताका लागून चिमटीभर शिक्षण घेवन लेगीत सगळे तरेचें गिन्यान, खूबशी म्हायती म्हाका मेळत गेली. म्हाका शाणें सुरतें पुस्तकांनी केलें. पुस्तकांनी अखेर मेरेन म्हाका साथ दिल्यार पुरो अशें हांव चुकनासतना म्हणटां.

'पण लक्षांत कोण घेतो?, स्मृतीचित्रे, युगांतर, श्रीमान योगी, सावरकर, इरावती कर्वे, आहे मनोहर तरी, वत्सला' हीं म्हजीं कांय आवडीचीं पुस्तकां. हीं एकूच फावट न्हय तर कितलेशेच फावटी वाचपाची म्हजी संवय.

नाथ माधवांचीं सगलीं पुस्तकां, ना.सी. फडके, वि.स. खांडेकर, काकासाहेब खाडीलकर हांचीं सगळीं पुस्तकां बाळ म्हाका आपल्या बरमाशेलच्या वाचपघरांतल्यान हाडून दितालो. स्वता खातीर इंग्लीश आनी म्हजे खातीर मराठी असो पुस्तकांचो भरपूर फडशा आमी दोगांय पाडटालीं.

ज्या बामणवाड्यांत आमी रावतालीं तो नांवाचो बामाणवाडो आशिल्लो. ताका नरक म्हळ्यार चड सोबून दिसपाचें. कांयच धड नासतालें. लायट ना, उदक ना. पयसुल्ले बांयचें उदक हाडपाचें काम बाळ आनी गुरुदास करताले.

गोंयांत तेदेवेळार कसलीच उदरगत नाशिल्ल्यान नोकरे–धंद्या खातीर चडशे तरणाटे मुंबयंत येवन रावताले. गुरुदासालो सख्खो भाव विनायक शिंक्रो (अण्णा), बापोल भाव दत्ता अशे चार–पांच जाण आमगेर जेवपाक आसताले. जागो साप्प ल्हान, उदकाची अडचण, लायट ना, गॅस ना अशे

परिस्थितींत हांव तांचे खातीर रांदतालें. सगले जाण तोखेवन तोखेवन गोंयच्यो यादी काडीत जेवताले. त्या वेळार म्हजी पिराय फक्त अठरा आशिल्ली. हे पिरायेचेर म्हज्यान घरचे सगळे कश्ट सोसूंक जायनाशिल्ले. नजो जावन म्हाका सामकेंरडूंक येवचें. तें पळोवन बाळान आनी मामान दुसरें घर करपाचो निर्णय घेतलो.

सुदैवान आमकां शिवडी हाऊसींग बोर्डाची जागा मेळ्ळी. ते जागेंत रावंक वतना बाळान बामणवाड्यांत आशिल्ले दर एके वस्तूची वाटणी केली. खाट, कपाट, स्टूल, पाट, आयदनां सगल्यो वस्तू एकोड्यो जावन दोनूय घरांनी वाटून गेल्यो. भाऊ (गुरुदास) मात्सो दुखावलो. पूण ताणें विरोध केलो ना.

बाळाक निकतीच बरमाशेलांत नोकरी लागिल्ली. भाऊचेंय शिक्षण मेट्रिक मेरेन जालें. ताणेंय तेच कंपनींत अर्ज केल्लो. मुलाखती वेळार वतना ताचे कडेन लांब पॅण्ट ना जाली. व्हडल्या भावालें मोटवें काल्सांव घालून तो मुलाखतीक गेलो आनी पयलींच त्या जाग्यार आपल्या मनशाक लावपाक टपिल्ल्या लोकांक लागून ताका मुलाखतीक नापास केलो. मागीर ताणें कांय तेंप रेल्वेंतूय नोकरी केली. मागीर बॉम्बे सेंट्रल प्रेस हांगा ताणें नोकरी धरली ती सत्तावीस वर्सां केली.

हांसत्या मुखाचो गोरोपान गुरुदास खूब कश्टी आशिल्लो. दिसाची नोकरी आनी रातीचें घरा येवन तो कपडे शिंवतालो. ऑफीसांतले लोकूय ताचे कडल्यान कपडे शिंवून घेताले. ताच्या साद्या आनी मेकळ्या सभावाक लागून ताका लोक सदांच वश जाताले. मामाक आनी बाळाक भाऊ खूब आवडटालो. 'आमी शिवडी रावंक गेल्यार लेगीत तुजे खातीर घराचीं दारां उगतींच आसात आं.' अशें ताणीं मुद्दम भाऊक सांगिल्लें. तोय लायट उदकाच्या निमतान शिवडी सदांच यो-वच करतालो. एक दीस ताणें म्हजे

कडेन संवाद सादपाचो प्रयत्न केलो. आपलें मन उगतें करपाचे दृष्टीन ताणें म्हळें, ''तुमी शिवडी रावपाक आयलीं तें म्हाका खूब वायट दिसलें.''

''पूण बामणवाड्यांतली जागा तुज्या नांवार आशिल्ली न्ही?'' हांवें प्रतीप्रस्न केलो.

म्हाका भाऊ कितें म्हणूंक सोदता हेंच लक्षांत आयलें ना. तो बाबडो निर्शेवन परत गेलो. म्हजो अदमास ताका लागलो ना जावये!

थोड्या दिसांनी म्हाका सांधे दुखीचो खूब त्रास जावपाक सुरुवात जाली. कोणेंतरी मामाक सांगलें की, म्हजें बेगीन लग्न करीत जाल्यार हें दुयेंस बरें जातलें.(!) जालें, तेंच तकलेंत घेवन मामा म्हजें लग्न करपाचे फाटीक लागलो. ह्या विचारान भारून वचून मामान म्हाका म्हळें, ''या वर्षी तुझ्या लग्नाचं बघायलाच हवं. गुरुदास काय म्हणतो ते बघूया. नाही तर मी थेट बेळगांवला जाऊन तुझ्या आतेभावाकडे तुझ्या लग्नाचं ठरवतो. तो बिचारा कधी पासून तुला मागणी घालून आहे.''

हीं उतरां आयकतकूच म्हाका भळभळून रडूंक येवंक लागलें. भाऊक सोडून आपूण केन्नाच कोणाचो विचार करूंक शकना असो साक्षात्कार तेन्ना म्हाका जालो. म्हाका सांबाळीत मामा हांसूंक लागलो. आनी ताणें म्हळें, ''अगं तसं नाही मी म्हणत. तू रडायची थांब बघू आधी...''

भाऊ विचारांत पडलो. कारण तो आपल्या कुटुंबांत सगल्यांत धाकलो चलो आशिल्लो. तीग भाव आनी तीग भयणी पयकी फकत दोगां भयणींचींच लग्नां जाल्लीं. आपल्या लग्नाचो विशय घरांत काडपाक लेगीत तो फाटींफुडें जातालो. 'थोडो तेंप रावया.' भाऊन सांगपाचो यत्न केलो. पूण हट्टाकूच पेटिल्ले भशेन मामा फाटीकूच लागलो. तेन्ना नाईलाजान भाऊन आपल्या व्हडल्या भावाक–मुकूंद शिंक्रे हांकां पत्र बरोवपाक घेतलें.

श्री. मुकुंद शिंक्रे (बाबा) हे एक नामनेचे वकील आशिल्ले. सामको हुशार आनी कर्तबगार म्हणून ताणीं किर्ती जोडिल्ली. महाराष्ट्रवादी गोमंतक पार्टीचे ते अध्यक्ष आनी खासदार आशिल्ले. आपले वकिलींत आनी राजकीय क्षेत्रांत मग्न आशिल्ल्यान ताणीं आपल्या लग्नाचो विचार अजून करुंकूच नाशिल्लो.

भाऊचें पत्र तांकां मेळ्ळें. तातूंत भाऊन सविस्तर सगळी म्हायती कळयल्ली. बाबान आनी म्हाका घरच्या सगल्यांनी पयलींच पळयल्लें. म्हजी वत्सलमावशी ती भाऊची काकीच आशिल्ल्यान सगळीं जाणां आमकां वळखतालीं. सगळ्यांनी आपली पसंती खोशयेन कळयली. बाबान एक सुंदर पत्र भाऊक बरयलें. 'आपलो लग्नाचो विचार इतले बेगीन ना. पूण तूं फाटीं फुडें जांव नाका. आमकां सगल्यांक माई पसंत आसा. तूं फुडले तयारेक लाग.' हो विचार मामाक कळयना फुडें ताका सूऽऽ जालें.

शिंक्रे ह्या आडनांवाचो इल्लोसो दबाव मनार पडिल्ल्यान मात्सो साशंक मनान मामा मडगांवां मुकुंद शिंक्रे हांच्या घरा पावलो. मामाचो सभाव शिंक्र्यांगेर सगल्यांक खबर आशिल्लो. सामको बरो मनीस म्हणून लोक ताका वळखताले. लग्नाचीं उलोवणी करपाक मामा तांगेर भितर सरतनाच ताचें बाबान आनी सगल्यांनी बरें स्वागत केलें. जेवणखाण जातकूच मामान सांगलें 'मी काही फार श्रीमंत नाही. परंतु शंभर रुपयापर्यंत खर्च करायची माझी तयारी आहे. लग्न मुंबईतच करु.' ताचो हयकार घेवन मामा परतलो. आपले धुवेक योग्य न्हवरो आनी बरें घराणें मेळिल्ल्यान ताचें काळीज फुलिल्लें.

रोखडेंच २० नोव्हेंबर १९५२त गिरगांवांत म्हजें आनी भाऊचें लग्न लागलें. गोंयच्यान भाव-भयणीं, आवय-बापूय, भयणींचीं भुरगीं आनी

तुळशीआका अशीं सगलीं मुंबय लग्नाक आयिल्लीं. भाऊन जोगेश्वरी एके कुडीचें घर घेतिल्लें. तातूंत सगलीं कशींबशीं रावलीं. लग्न केलें आनी चार–पांच दीस रावन सगलीं गोंयां परतलीं.

हांव आनी भाऊ जोगेश्वरीच्या घरांत रावंक लागलीं. हें घर म्हळ्यार एक दुकान कशें आशिल्लें. दोनूय वटयां दोन–दोन दुकानां आनी मदीं एकवीस बिराडांची लांबलचक माळ असो सगलो प्रकार आशिल्लो. सगल्यांक मेळून एक बांय आनी एक नळ आशिल्लो. संडास भायरूच आशिल्लो.

आमच्या दोगांचोय सुखाचो संवसार सुरु जालो. दिसभर नोकरी करून रातचो येतकूच शिंवतालो. उदक भरप, घरचीं कामां हातूंत म्हजो वेळ वतालो. तांतल्या तातूंत म्हाका भाऊन इंग्लिश शिकोवपाचो यत्न केलो. थर्मामीटर वाचप, घड्याळ पळोवप ह्यो गजाली शिकयल्यो. भाऊ कपडे कापताना हांवें ताका पेपर वाचून दाखोवप अशें आमचें सदांच चलतालें.

आतां गोंयांत सोपेपणान वचप शक्य जायनाशिल्लें. एका राज्यांतल्यान दुसऱ्या राज्यांत वचपाक खूब आडमेळीं येतालीं. वाटेर कॅसलरॉक हांगा जावपी खर तपासणेक तोंड दिवचें पडटालें. हालींच विमानतळाचेर थंयच्या सुरक्षा अधिकाऱ्यान म्हजी तपासणी केली. पदरापोंदा ब्लाउजांत दवरिल्ले म्हजे धाकटुले पर्सीविशीं तिणें चवकशी केली. 'ती म्हजी पर्स. गुळ्यो आनी थोडे पयशे आसात तांतूत.' हांवें धडधडीत सांगलें. ते बरोबर, 'हां,हां बरे बरें.' म्हणून ताणीं म्हाका अचळय सोडलें.

त्या तेंपार मात जें चेकिंग जातालें तें खूब तापदायक आशिल्लें. लोकांक आपल्या बॅगातले कपडे बी भायर काडून दाखोवंचे पडटाले. लोणचें व्हरपाचें आसल्यार सगल्यो भरिल्ल्यो आंबल्यो एका तोपांत रकोवन

दाखोवंच्यो पडटाल्यो. सगल्यांत कळस म्हळ्यार एकदां म्हाका म्हजो भश्ट्याचो कपडो लेगीत उसोवन दाखोवंचो पडला!

इतली कटकटीची आनी त्रासाची अशी ही कॅसेलरॉकाची तपासणी आसताली. मुंबय-गोंय प्रवास त्या तेंपार खूब कठीण दिसतालो तो अशाच कारणांक लागून.

लग्ना उपरांत तीन-चार म्हयन्यांतूच म्हाका दीस गेले. खर दुवाळे लागले. दिसांतल्यान पंदरा-वीस फावटी ओंकून वचप. खाल्लें कांयच पोटांत उरप ना. अशे म्हजे भयानक हाल जाताले. मात्शें सुमार दिसचें म्हणून दोतोरान दिल्ल्यो गुळयो घेतल्यो.

आमी गोंयांत आयिल्ले कडेन म्हजे मांयन म्हाका बाळंटेराक दवरून घेतलें. त्या वेळार घरांतूच बाळंत जातालीं. जयश्री नांवाची एक सुईण येताली. तिका रकाद धाडलो. आनी एक बायल म्हजे बरोबर रावपाक सांगली. सगल्यांची वेवस्ता मांयनूच पळयली. मामान पयल्या बाळंटेराचें आपलें कर्तव्य पार पाडलें, आजो जावपाक तो सामको उत्सूक आशिल्लो.

सोऱ्यांत हात बुडोवन जयश्री फुडें येतकूच हांव भियेलें. म्हज्या अज्ञानाक समजायत तिणें धीर दिलो. चवथीचे दीस आशिल्ले. सगलीं जाणां जेवन न्हिदपाक वतकूच वेणो वाडल्यो. आईगेऽ अशी निमणी कळ आयली आनी हांवें एका गुटगुटीत गोरेगोमट्या चल्याक जल्म दिलो.

तेन्ना बाबालें निकतेंच लग्न जाल्लें. आपल्या भावाल्या चल्याक ताणें पयलोच हातांत धरलो. त्या बावल्याक पळोवन तो खूब खोशी जालो. घरभर लोकांनी ताची खूब अपुरबाय केली. मोठे उमेदीन ताचें नांव संजय दवरलें. ताका घेवन हांव मुंबय वचपाचेंच आशिल्लें. इतल्यांत 'फुडलो बाळंटेर थंयच केल्यार जालो' अशीं ओझरतीं उतरां म्हज्या कानार पडलीं. ह्या उतरांची म्हज्या मनांत हांवें खोल गांठ घालून दवरली.

थोड्या दिसांनी म्हजी धाकली नणंद पुष्पा (पुकन) मेट्रिकची परिक्षा दिवपाक मुंबय आयलें. तें सुमार वर्सभर रावलें. संजयाक तेल लावन न्हाणोवपाचें काम हांव एकल्यानूच करपाक शिकिल्लें. माशेलांत आसतना धाकले मामेभयणीक पचाणी न्हेसोवप, काजळ–तीट लावन न्हिदोवप बी केल्ल्यान हाताक संवयूय आशिल्लीशी!

अशेंच वर्स देड वर्स वतनाच म्हाका परत ओंकारे येवन नाका–पुरो जावपाक सुरुवात जाली. हे खेपेकूय हांवें दोतोरान दिल्ल्यो गुळ्यो घेतल्यो. हांडीर चलो, एका हातांत उदकाचो कळसो, रडून–रडून सुकिल्ले दोळे, आनी बाविल्लें तोंड पळोवन शेजान्नीक दुबाव मारलो. आपली शंका खरी आशिल्ल्याचें आयकून तिणें म्हळें, ‘आता झालं ते होऊ दे. नंतर मी सांगते काय काळजी घ्यायची ती.’ शेजान्नीन कानमंत्र दिलो.

फाटले खेपो गोंय सोडटना कानार पडिल्लीं उतरां तार्जी आशिल्ल्यान हांवें आनी भाऊन दुसरे खेपेची कसलीच खबर सात–आठ म्हयने जाले तरी तांकां कळयली ना. जेन्ना तांकां कळयलें तेन्ना म्हज्या मांवान आमकां पत्र बरोवन थंय आपयलें. पूण म्हज्या स्वाभिमानाक भाऊनूय तेंको दिलो आनी गिरगांवच्या होस्पिटलांत नांव लेगीत घाल्ल्याचें तांकां कळीत केलें.

गिरगांवांत म्हजो एक बापोल देर वसंत शिंक्रे आपले फामिली सयत रावतालो. दोतोरान दिल्ली तारीक लागीं पावतकूच हांव म्हयनोभर पयलीं तागेर वचून रावलें. आपलें काम सोंपतकूच भाऊ थंय येतालो आनी संजय आनी तागेलें सामान घेवन जोगेश्वरी वतालो. सकाळफुडें कामाक वचचे पयलीं परत ताका हाडून म्हजेकडेन गिरगांवांत सोडटालो. ताचें दूद–कपडे बी दितालो आनी आपल्या कामांक वतालो. अशें थोडे दीस केलें. एक दीस तिनसांजेच्या वेळार पोटांत दुखूंक लागलें. तेन्ना घरांत सगल्यांनी निवळसाण सुरु केल्ली. तातूंत उमास. कोण काना मनार घेवपाक तयार

जायनाशिल्लो. वसंतालो धाकलो भाव औदुंबर हाका गयावया करतकूच तो भायर सरलो. पूण आमकां वचपाक खंयच टॅक्सी मेळना जाली. निमणें एक किलोमिटर अंतर चलतूच आमी होस्पिटलांत गेलीं. थंयची दोतोर भटाची. तिणेंय म्हळें, ''आज अमावास्या आहे. थोड्या थांबा.''

''ते काय माझ्या हातात आहे का?'' बेजार जावन हांव धुसफुसलें.

''बरं बरं घाबरू नका.'' तिणें मागीर धीर दिलो.

आनी अजाप म्हळ्यार उमास सोंपून पाडवो सुरु जातनाच हांवें एके शिरवंत अशे चलयेक जल्म दिलो. माणीक वर्मा आमची सामकी आवडीची म्हणून तिचेंच नांव बेबीक दवरलें. तांबड्यागूंज माणका प्रमाणेंच तें लिकलिकीत दिसतालें.

देड वर्साच्या फरकान संजय-माणीक दोगांय वाडूंक लागलीं. व्हड जातां-जातां दोगांयच्याय सुंदर दोळ्यांच्या पातकड्यांनी आशिल्ली जडसाण सगल्यांच्या लक्षांत येवपाक लागली. तांच्यो पातकड्यो वयर सरनाशिल्ल्यो. 'बाय-बाबू न्हिदेक आयल्यांत गो तुजीं' अशें लोकांनी म्हाका म्हणचें. गुरवार आसतना ओंकारे उणें जावपाक दोतोरान दिल्ल्यो गुळयो तांच्या दोळ्यांक माल पडिल्ल्यो. तें पळोवन म्हाका आनी भाऊक सामके चिटमीटे पडटाले. हाचेर कितें तरी उपाय करुंकच जाय अशी हांवें खूण गांठ घालून दवरली.

जोगेश्वरी गिताकुंज चाळींत आतां आमी रावतालीं. संजय साडे तीन आनी बेबी दोन वर्सांचें जालें. आनी आमकां साडेसाती लागिल्ले भशेन एकार एक संकश्टां येवंक लागलीं. ताचो पयलो घालो बसलो म्हाका. जो सडकून जोर येतालो तो वचपाचो नांव काडनाशिल्लो. तेन्ना आमकां भालपाटील नांवाचो खूब मेकळ्या सभावाचो दोतोर मेळ्ळो. अंधेरीच्यान तो जोगेश्वरी येतालो. ताणीं म्हाका तपासून रगताची तपासणी करूंक

भाऊक सांगलें, ''काय सांगू तुम्हाला, माईंना पेराटायफयड झालेला आहे. सात दिवस त्यांनी अंथरुणातून उठता कामा नये. त्यांचं पोट साफ राहाणं अगदी आवश्यक आहे. सगळा पातळ आहार त्यांना द्यायचा. तो देखील कपड्याने गाळून त्यांना द्यावा लागेल. काळजी घ्या त्यांची.''

घरांत दोगांय ल्हान भुरग्यांचें काम मामान केलें. तो मिलीर साकून येवन तांचें सगळें करतालो. भाऊन म्हयनोभराची रजा काडली. म्हाका न्हिदोवन दवरप, पातळ गाळून काडिल्लो आलीमेंत दिवप. आजूत दिवन पोट साफ दवरप हीं सगळीं कामां ताणें सात दीस मेरेन वाजेनासतना नेमान केलीं.

घरांत त्या दिसांनी मामा आनी भाऊ बाबडे आपल्याक येता ते भशेन शीत–रोस करताले. धाकल्या बेबीक तेन्ना निकतीच चपाती खावपाची रुच लागिल्ली. हांव हाथुणार आशिल्ल्यान चपात्यांनी पोटली कवळिल्ली. एक दीस धुपकर नांवाचे शेजाऱ्नीन चपात्यो करून घरा हाडून दिल्यो. आमच्या दोळ्यांतलें अजाप पळोवन ती सांगूंक लागली, ''काय सांगू बाई, तुमच्या घरी हल्ली तुम्ही आजारी असल्यामुळे चपात्या केल्या नाहीत आनी तुमची बेबी मागीलदारी कुणीतरी टाकलेली चपाती खाताना मी माझ्या डोळ्यांनी पाहिली. मी तिच्या हातून काढून फेकलीच हो ती. म्हणून ह्या चपात्या करून आणल्या मी. छोटीशी वस्तू पण मुलांना बघा कसं जाणवतं ते.''

ती चपाती म्हजें काळीज हालोवन गेली. तोंड परतून म्हाका रडटना पळोवन तिणें म्हाका धीर दिलो. ''काही घाबरू नका, लगेच ठीक झाल्या तुम्ही की पाहीजे तेव्हढ्या चपात्या कराल लेकीसाठी.''

म्हज्या पेराटायफडान सात दीस काडले आनी मागीर म्हाका सोडून भाऊचेर उडी घेतली. तो जोरान न्हिदून उरलो. जोरांतल्यान उठून हांवें

ताचें सगलें दोतोरान सांगलां तशें केलें. आठव्या दिसा भाऊचो जोर उलटलो आनी टायफोयड जालो. ''आतां मात्र त्यांना नानावटीत ठेवावं लागेल.'' दोतोर भालपाटीलान सांगलें. म्हज्या पोटांत भंयान गुळो. एकटें मुंबयंत भोंवपाक म्हाका तेन्ना कळनाशिल्लें. अशे वेळार म्हजे मावशेभाव पांडूरंग, औदुंबर धावन आयले. तांचे मदतीन भुरग्यांक घेवन हांवें होस्पिटलांत पावटी मारच्यो.

ते दिसूच हात धुवन आमचे फाटीक  लागिल्ले. एक दीस तर कहरूच जालो. अकस्मात उटंगाराचो पावस सुरू जालो. वयर खंयतरी झाड मोडून आडवें पडिल्लें. आनी सगलें घाण उदक घरांनी घुसलें. त्या उदकान गरिबांल्यो झोपड्यो व्हावन वचपाक लागल्यो. लोकांचीं आयदनां, पाळणीं व्हावन वचपाक लागलीं.

आमगेरूय उदक भरलें. अक्षरश: घरांतल्यो बाज्रो बी तरंगूक लागल्यो. हांव दोगांय भुरग्यांक घट पोटाकडेन धरून उदक निस्तुपाची वाट पळयत बसलें. केन्ना तरी अग्नीशामक दळान येवन तें झाड कुशीक काडटच उदक पासार जालें आनी ती काळरात सरली.

सकाळ फुडें म्हज्या दारांत येवन एके शेजान्नीन म्हाका म्हळें, ''आम्ही ना रात्री दारात आलेल्या गंगेची खणा–नारळाने ओटी भरली. तुम्ही नाही भरलीत?'' हांवें मनांतल्या मनांत कपलार हात मारून घेतलो. लोकांचे संवसार गिळंकृत करून उडोवपी घाणयाऱ्या उदकाक गंगा समजून तिची व्हंट भरपी म्हजी शेजान्न सासणाची म्हजे यादींत उरली.

निमणे भाऊवयलो टायफोयडाचो पगड उठलो आनी तो बरो जावन घरा आयलो. जोर भाऊले सुंदर केंसांचें चेपें घेवन वचून ताका लिकलिकीत टक्कल दिवन गेलो.

सगळींच मनशां आमच्या शेजारा जिवाभावाचीं आनी मायेस्त आशिल्लीं. शेजारचो एक बरो बिकॉम जाल्लो बीएस्टींत कामाक आशिल्लो मनीस,

पांडूरंग नाईक आमगेर येवन वरांचीं वरां संजयाक खेळयतालो. सगळ्या शेजाऱ्यां बरोबर आमी हांसून-खेळून आनी मजेंत रावतालीं. म्हजी गाण्याची आवड पळोवन मामान म्हाका एक रेडिओ हाडिल्लो. ताचेर त्यावेळार फक्त मुंबय हें एकूच स्टेशन लागतालें. आनीक कोणागेर रेडिओ आयकूंक मेळनाशिल्लो. आमगेर सगळे लोक रेडिओ आयकुपाक येताले. मागीर हांव तांकां च्या-पाणी बी करतालें.

घरांत लागपी साद्यो साद्यो वस्तू लेगीत घेवपाक खूब त्रास जाताले. आमचे कडेन आशिल्ली आरमार कशी घेतली हाचो एक मजेशीर किस्सो आसा. भाऊन आरमार घेवपाक म्हूण तिनशें रुपयांचें रीण घेतिल्लें. काबाडी म्हणून भाऊलो एक इश्ट आशिल्लो. तो कॅडबरींत काम करतालो. तांचो आनी आमचो खूब घराबो आशिल्लो. ताणेंय आरमार ऑर्डर केल्ली. आरमारीक म्हणून काडिल्ल्या रिणाचे पयशे सगले म्हज्या दुयेंसाक खर्च जावन गेले. दारांत आरमार येवन उबी रावली पूण ताका दिवपाक पयशे नात. तेदेवेळार काबाडी भाव कसो धांवन आयलो. ताणें सांगलें ''माझे पैसे देताना मी तुझेही देतो. तू घाबरू नकोस. दारात आलेले कपाट घरात ठेवून घे.'' अशे त्यावेळचे लोक आशिल्ले. मागीर ते पयशे पावोवपाक भाऊन कितलींशींच वर्सां ताचे कपडे फुकट शिवन दिले. ''आतां बास झालं बघू, कधीच फिटले असणार ते तिनशे रुपये.'' काबाडीन भाऊक थांबयलें.

सूख आनी दुख्खाचे सावळेंत आमी हांसून रडून दीस सारतालीं. मामा आनी बाळ म्हाका अडचणीवेळार मजत करताले.

बाळाली बायल कालिंदी (कुकुल) आनी बाळ हांचो सुखाचो संवसार सुरु जाल्लो. योगायोग असो की, कुकुलूय शिंक्याली नात आशिल्लें. म्हगेर बेबी जालां त्याच दिसा बाळाल्या चल्याचें बारशें आशिल्लें. तागेर

थोडो तेंप रांदपाक आनी भुरग्याक सांबाळपाक अश्यो दोन बायलो दवरिल्ल्यो. मामान म्हाका आग्रो करकरून चार दीस बाळागेर दवरून घेतलें. हांवेंय चार दीस रावन कुळार अणभवलें.

कांय दीस गोंयच्यान बाबा आमगेर आयिल्लो. तो वर्सांतल्यान एकदां जेन्ना मुंबयंत येता तेन्ना आमगेर पावट मारतालोच. त्या दिसा ताणें भाऊक सांगलें, ''तूं मरे तुजेखातीर एक मात्शें बरेंशें घर घे मरे. ही एक कूड पावना तुमकां.''

''जाणा रे हांव तें. हांवूय यत्न करतां. पूण म्हाकाय एकदम ती घेवपाक शक्य जायना.'' भाऊन आडखळत सांगलें. बाबान कांय वेळ विचार केलो. तेन्ना ताचेकडेन मुंबयंत रावतल्या कांय गोंयकारांनी गोंयां व्हरुंक पयशे दिल्ले. ते तिनशे रुपय भाऊकडेन दिले आनी सांगलें, ''हें पळय, हे पयशे घे. गोंयांत वतकूच हांव हे पयशे तांचे घरा पावयतलोंच.''

त्या पयशाच्या आदारार आमी फुडें विलेपार्लाची जागा घेतली. आमी पार्ला रावपाक आयलीं.

विलेपार्ला (पूर्व) अशोककुंज वाडी हांगा आमी रावपाक आयलीं. दोगांय भुरगीं तेन्ना पांच आनी साडेतीन वर्सांचीं.

अशोककुंज वाडींत मर्दी एक अशोकाचें झाड आशिल्लें. चडशीं अशोकाचीं झाडां उंचूच उंच जातात. पूण हें झाड खूब फांदयो आशिल्लें, गोंयच्या मानकुराद आंब्याच्या रुखावरी विस्तीर्ण आशिल्लें. सगळ्या भारतभर विखुरिल्ले वेगवेगळ्या राज्यांतले लोक हे वाडींत एकठांय रावताले. आमचे शेजरा पापाजी (बलदेव) चाचीजी (शशी) बनाटी रावताले. तांगेर देशी, अमृत आनी सुवर्णा (बब्बर) अशीं तिगां भुरगीं रावतालीं. वयर हरबन्सलाल आनी कृश्णा लांबा (मम्मीजी). तिचे शेजरा काकी आनी जमना ह्या दोनूय आंकवार चलयां बरोबर तांची जाणटी

आवय रावताली. दावे वटेन कर्नाटकी लोकांचें कुटुंब रावतालें. तांकां तीन चले आनी सरस्वती नांवाची धूव आशिल्ली.

शेजरा सगलो अनवळखी लोक. तांची भाशा लेगीत म्हाका कळनाशिल्ली. सगल्यांक जोडपी राश्ट्रभाशा, तिवूय म्हाका अगम्य. पूण थोड्याच दिसांनी ल्हवूल्हवू सगल्यांकडेन वळख जावन हिंदी उलोवपाक शिकलें.

आमचें खूब येवप-वचप जातालें. बनाटी म्हाका भयण मानतालो. वेळे गरजेक आमकां पावतालो. मम्मीजी आनी चाचीजी सत्संगाक वतकूच सांजेचीं तांचीं भुरगीं आमगेर येतालीं. गॅसापोंदा धांपून दवरिल्लें काडून खावन सुसेगाद रावतालीं. म्हज्या भुरग्यांबरोबर तिंवूय खावपाक जेवपाक आसतालीं.

दोन-तीन फावट हांवूय मम्मीजी, पापाजी बरोबर तांच्या सत्संगाक गेलें. वरांचीं वरां भजनां म्हणून जातकूच पुजेचे थाळयेंत पयशांच्यो नोटोच्या नोटो घालताले. हो एकठांय केल्लो फंड तांच्या उरळीकांचन हांगा आशिल्ल्या आश्रमांत वतालो. तांचेभशेन नोटो काडप म्हाका शक्य नाशिल्ल्यान घरा रावन तांच्या भुरग्यांक सांबाळपाचें कामूच हांवें पत्करलें.

भुरगींय आतां शाळेच्या वयाचीं जालीं. संजयाक पार्ले टीळक विद्यालयांत प्रवेश मेळ्ळो. पूण बेबीक थंय प्रवेश मेळपाक एक वर्स रावचें पडलें. तें वर्सभर आमी ताका सरकारी प्राथमीक शाळेंत घालें. दोगांय शाळेंत दाखल जावचे पयलीं हांवें म्हाका कळटा तितलेंय तांकां शिकयलें. स्वर, व्यंजन, बाराखडी ते आंकडे, बेरीज, वजाबाकी, फुलांचीं आनी फळांचीं नांवां अशें खूबशें सामान्य गिन्यान धरून हांवें तांकां शिकयलें. म्हजे भितरली शिक्षिका जागी जावन घरांतले कांदे, बटाट, टमाट अश्या वस्तूंच्या आदारान भुरगीं उठठा बसतना शिकूंक लागलीं. शाळेंत दोगांय शिकपाक हुशार आशिल्लीं.

गोंयच्यान आमगेर रावपाक बाबा–मामी, भाऊलो दुसरो भाव–भावज, अण्णा–काकीबाय वर्साक एकदां पूण येतालीं. काकीबायची भयणूय पार्लाच रावताली. तेन्ना तिगेर थोडे दीस आनी म्हगेर थोडे दीस अशे सात–आठ दीस तरी ती रावताली.

एक फावट हांव तांचेखातीर च्या–खावपाक करुंक गुंतिल्लें. संजय मित्रां बरोबर, भाऊ ऑफिसांत आनी बेबी मैत्रीणीगेर खेळपाक गेल्लें. बरे वेळान बेबी मैत्रीणींच्या खांदार तकली दवरून कशेंबशें घराकडेन येता तें म्हाका जनेलांतल्यान दिश्टी पडलें. हांव हातांतलें काम सोडून भायर धांवलें. बेबीक सांभाळीत भितर हाडलें. ''काकू, आमच्या घरच्या घसरगुंडी वरून पडली हो माणिक.'' ताचे मैत्रीणीन भियेत भियेत सांगलें. म्हजेर कलकल आयलो. बेबीच्या तोंडार उदक मारून, पुसून हांवें ताका इल्लो च्या पियेवपाचो यत्न केलो. तेन्ना ताणें तो पिलो आनी पटकन ओंकून उडयलो. मागीर मात हांवें आनीक वेळ केलो ना. तशीच ताची बिटकी कवळून लागींच आशिल्ल्या जैन दोतोरागेर गेलें. ओंकलें म्हणटनाच दोतोरान नानावटींत वचून मेंदवाचो फोटो काडूंक सांगलें. भाऊ चर्चगेट ऑफीसांत. घरांत कोणाचोच आदार ना. म्हाका व्हरतलो कोण? अश्या वेळार आमचो शेजारी मजतीक धांवलो. पापाजीन टॅक्सी आपयली. भाऊक फोन करून कळयलें. म्हजेबरोबर स्वत: आयलो. बेबी होस्पिटलांत पावतनाच बेशुद्ध जालें. सगळे उपाय सुरु जाले. स्कॅनींग करून पळयलें. दोन–तीन फावट फोटू काडून मेंदवाक कांयच जावंक ना अशें दोतोरान आमकां सांगलें. बरोब्बर चोवीस वरांनी बेबी शुद्धीर आयलें. जवळ–जवळ स–सात दीस थंय रावन तपासणी जातकूच आमी घरा आयलीं. मागीर ताका केन्नाच कसलोच त्रास जालो ना. शिकूंकय तें हुशार आशिल्लें.

पार्ला आसतना आमी कसलेय कठीण परिस्थितींत जिविताचो आस्वाद घेतालीं. त्या वेळार येवपाक वचपाक लेगीत सारकी कांयच सोय नासताली. पूण आमी आसा ते परिस्थितिंतल्यान मार्ग काडटालीं. भुरग्यांक बरोबर घेवन तांचे खातीर खावपा-पिवपाची पोटली बरोबर घेवन हांव आनी भाऊ सगल्याक पिक्नीकेक वतालीं. राणीची बाग, आरे कॉलनी, विमानतळ इतलेंच न्हीं तर सार्वजनीक गणपती पळोवप, उंच इमारतीचेर वचून गणपती विसर्जन पळोवप असल्यो सगल्यो गजाली भुरग्यांक खांक्यार मारून केल्यात.

संगीतांतलें कांयच कळनाशिल्लें खरें, पूण गाण्याची ओढ प्रखर आशिल्ली. भाऊ आपूण धाकल्या भुरग्यांक पळयतालो आनी म्हाका पार्ला टिळक मंदिरांत पावयतालो. मागीर हाडपाक येतालो. पंडीत भिमसेन जोशी, राम मराठे, सुधीर फडक्यांचें गीतरामायण, रामदास कामत ह्या सगळ्यांचे कार्यक्रम थंय जाताले. आमी सगल्या कार्यक्रमांक वतालीं. कसलेय परिस्थितिचेर मात करप, तातूंतल्यान मजा करप, मेळिल्ल्या खिणांचो आनंद घेवप अशें आसतालें. भुरगीं जोराचीं आसतना तांकां घराकडेन न्हिदोवन, तांचेर नदर दवरून मर्दीच पार्ला टिळक मंदिरांत भिमसेन जोशींचें गाणें आयकप, परत घरा येवन जोर पळोवप अशें आमी केल्लें याद जाता. म्हणुनूच म्हाका दिसता जिणेंतल्या दुख्खाचेर मात करपाची शक्तय म्हाका मेळत गेली.

चवथ आनी तुळशीलग्न आमी भाऊली व्हडली भयण प्रेमा आक्कागेर मनयतालीं. तें अंधेरी, टिळक धामांत रावतालें. ज्योत्स्ना, नेत्रा, बिंबा, मणील, नीला, गीता आनी बाबू अशीं तागेलीं भुरगीं. तांचेबरोबर संजय आनीक बेबी मजेंत रावतालीं.

अकस्मात एक वर्सा तुळशीलग्न जातकूच संजयाक खूब जोर आयलो, ताचो ताळो दुखून तोंडांतल्यान लाळ व्हांवपाक लागली. ताच्या तोंडाकडेन पळयत भाऊन सांगलें, ''माई, तुवें हाका दोतोरागेर व्हेल्यार बरें अशे दिसता म्हाका.'' त्याप्रमाण हांव सांजे ताका घेवन दोतोरागेर गेलें. ताणें तपासतनाच सांगलें की, हाका डीप्थेरीया जाला. हो सादो रोग न्ही. तुमी हाका नानावटींत व्हरचें पडटलें. चोवीस वरांभितर उपाय जावंक जाय. खूब काळजी घेवची पडटली.

भाऊ येवंचो आशिल्लो. हांव काचाबूल जाल्लें. घरा येतनाच शेजारचीं सगळीं एकठांय जालीं. तांकां संजयाक कितें जालां म्हणून सांगपाक लेगीत म्हाका कळनाशिल्लें. पापाजीन सांगलें, ''माई तुम डरो मत. हम उसको अभी नानावटी लेकर जाएंगे.'' आनी खरेंच आमी रोखडींच ताका घेवन गेलीं. तांणीं संजयाक तपासून दुसरे दिसा रिपोर्ट व्हरुंक येवपाक सांगलें. आमी ताका घेवन परतीं हुसक्यांत जैन दोतोरागेर गेलीं. ताणें सांगलें की हो शंबर टक्के डिप्थेरियाच आसा. तुमी ताका आतांच आर्थर रोडार होस्पिटलांत व्हरात. आमी थंय गेलीं. थंय पळयत जाल्यार लोक मिनटामिनटाक हो रोग जाल्ल्या भुरग्यांक घेवन येताले. दोतोर तांकां तपासताले, इंजेसांव दिताले. कांय वरांनीच त्या भुरग्यांच्या तोंडाचेर चादर ओडून तांची कूड पेल्यान व्हरताले. तें भिरांकूळ चित्र पळोवन हांवें तर संजयाची आशा सोडिल्ली. जीव मुठींत धरून हांव एकलें ताचे बरोबर रावलें. भाऊ ऑफीसांत वचचे पयलीं आमचेकडें येतालो. खंयच्यान तरी इल्लोसो च्या आनी पाव हाडून दितालो. सगळो दीस हांव तें खावन रावतालें. आठ दिसांनी ताका मातसो सुमार पडलो. एकूण बावीस दीस आमी थंय उरलीं. म्हाका न्हाण–धूण ना. एकेवटेन म्हाका मुतखड्याचो त्रास सुरु जालो. हांव भायरूय आशिल्लें. सात दिसांनी जोत्स्ना आपली

एक साडी आनी म्हजे खातीर खावपाक घेवन थंय आयलें. संजयाचेर कोणाक तरी नदर दवरपाक सांगून आमी वसंतागेर गेलीं. हांव तांच्या मान्न्यांत वचून पयलीं कितलेशेच दिसांनी न्हालें. ज्योत्स्नान हाडिल्ले कपडे चडयले आनी जेवलें! मागीर पर्थून होस्पिटलांत आयलीं. अशें पांच–स दिसांनी तें फावट मारतालें. मात्सो जिवाक सुशेग मेळटालो.

बावीस दीस थंय रावन आमी दोगांय घरा आयलीं. जिवार आयिल्लें संकश्ट टळ्ळें. थंय मेळिल्ल्या उपचारांक लागून संजय बरो तांबडोच गुलगुलीत जाल्लो. आनी हांव जाल्लें मडें कशें! आमकां पळोवन सगल्यांनी म्हणचें, ''कौन बीमार था, माँ या बेटा?'' असो जिवापरसूय चड सांबाळिल्लो आमचो पूत आमकां सोडून वतलो म्हूण कोणेंय सांगल्यार आमकां खरें दिसचें नाशिल्लें.

अशे बरेच दीस धांवले. भुरगीं ल्हानाचीं मात्शीं व्हड जालीं. वयर रावपी बब्बर दोतोर जालें. काम करुंक लागलें. ताणें एकदां म्हाका म्हळें, ''हम ना हमारे बेबीकी ये सुंदर आँखे ठीक करवायेंगे. उसकी झुकती हूई आँखोंकी प्लास्टीक सर्जरी करवायेंगे.''

''उसकी आँख ठीक हो सकती है?'' हांवें विचारलें.

''हां, इसतरह के बहुतसे पेशंट आते है अस्पताल में।''

ताणें तशें सांगलां मात हांव खट कशें (भाऊचे भाशेंत) ताचे फाटीक लागलें. ताणेंय मनार घेतलें आनी एक दीस हांव बेबीक घेवन आठ दीस हॉस्पिटलांत रावलें. थंय ताणीं बेबीच्या जांगडाची कात काडून दोळ्यांची प्लास्टीक सर्जरी केली आनी पातकड्यो वयर उखलून धरल्यो. आतां म्हज्या बेबीचे पिकिल्ल्या द्राक्षांच्या कोराचे सुंदर दोळे स्पश्ट दिसूंक लागले. 'न्हिदता काय कितें गो तें?' अशें ताका आतां कोण म्हणचीं नाशिल्लीं.

ते दिवाळेचे दीस. घरा दिवो पेटोवंक जाय म्हणून आमी दोतोराचे सम्मतीन घरा आयलीं. हांव दिव्याची तयारी करूंक गेलें. बेबी आनी हेर भुरगीं भायर इल्लेशे जागेंत भूंयचक्र लावंक लागलीं. आनी अर्दवट पेटून गेल्ले चंद्रज्योतीची तांबडीगूंज सरी बेबीच्या हाताक लागली. हें आनीक एक नवें दुखणें आंगार आयलें. दोळे न्हिंवळटा म्हणसर भाजिल्ल्याची जखम बेबीक सोंसची पडली. ताका पळोवन म्हजो जीव वयर सकयल जातालो. पूण आवयन कितलेंय थारायलें तरीकूय जाचें दुखणें ताकाच सोंसचें पडटा...

ह्या हॉस्पिटलांत आमी नाना तरेचे पेशंट पळयले. एका मनशाली काणी तर भिरांकूळ आशिल्ली. तो आपले खोंपी भायर न्हिंदिल्लो आसतना अकस्मात वाग येवन ताच्या तोंडाकूच धरून ओडीत घेवन गेलो. कशेंबशें ताका वागाच्या तोंडांतल्यान सोडोवपाक सगल्यांक यश मेळ्ळें. त्या मनशाची प्लास्टीक सर्जरी करपाक ताका थंय हाडिल्लो. ताच्या तोंडावयलो एक्कूय अवयव जाग्यार नाशिल्लो. ताका कितलींशींच वर्सां थंय रावचें पडिल्लें.

बब्बराली धाकली भयण देशीचें लग्न दिल्लीक जावपाचें आशिल्लें. ताचेबरोबर ताची सहेली म्हणून वचपाक तांणी म्हाका खूब आग्रो केलो. म्हाका तें खंयचेच वटेन शक्य नाशिल्ल्यान हांव वोगीच रावलें. पूण तांणी शक्कल लडोवन देशीच्या वळखपत्राचेर म्हाका व्हेलें. ताच्या नांवार म्हजो खर्च केलो. भाऊन म्हाका तेन्ना पन्नास रुपया दिल्ले. आठ दीस हांवें तांच्या बरोबर रावन तांची शादी पळयली. व्हंकलेक दितात त्यो वयर सान सकयल मेरेन वस्ती मांडून दवरिल्ल्यो पळयल्यो.

मार्गा कुशीक भाजतात ते परोठे पळयले. शाहजहानान बांदिल्लो ताजमहाल पळोवन, आठ दिसांची दिल्ली वारी करून मुंबयंत परतलें.

कांयच कळनाशिल्लें तें हांव बेळगांव, माशेल, बामणवाडो, जोगेश्वरी, पार्ला आनी आतां अकस्मात दिल्ली मेरेन म्हाका उंच उडी घेवंक मेळिल्ली पळोवन मामा खूश जालो. 'तुला विलायतेला जाण्याचा योग आहे.' म्हणूंक लागलो. केन्ना येता तो पळवया तो योग!

हांव दिल्लीक गेलें तेन्ना बेबी आठ वर्सांचें आशिल्लें. थंयच्यान हांवें एक काळी शाल हाडिल्ली. ते शालीन म्हाका आयुश्यभर साथ केल्या. दुसरी वस्त हांवें हाडिल्ली ती म्हळ्यार वेताचो पेटारो. आनी तिसरी म्हळ्यार ताजमहालाची प्रतीकृती. सगल्यांपासून पयस आठ दीस पयलेच फावट राविल्लें. मनांत हुरहुर आशिल्ली खरी पूण फट कित्याक सांगू, ते सुखाचे आठ दीस म्हजे यादीक सदांच उरले.

बाळ शिवडी रावतालो. मामा आतां थकिल्लो. ताचें प्रेसांव चडटालें. एक एक फावट मात्सो सितिदान नाशिल्ले भशेन उठून म्हगेर येवपाक भायर सरतालो. असोच एकदां रिक्षांत बसून भायर सरलो. म्हज्या घराचो पत्तो सांगूंक ताका जमलें ना. रिक्षावालो ताका घेवन खूब भोंवलो.

बाळ मामाक सोदीत म्हगेर आयलो. ''मामा पावला गो तुगेर?'' बाळान दाराचे चौकटीर रावन प्रस्न केलो. ''मामा? ना मरे.'' हांवें जाप दिली. परत जाप न दितां बाळ तसोच पर्थून ताकतीकेन भायर सरलो. पुलीस चौकेंत चवकशी करपाक भितर सरलो. थंय पळयत जाल्यार रिक्षावालोच मामाक घेवन पुलीस स्टेशनार आयिल्लो. बाळाक परत एक फावट आमचो शेणिल्लो मामा परत मेळ्ळो. ताका हाताक धरून सांबाळून त्याच रिक्षावाल्याबरोबर बाळ शिवडी घेवन गेलो.

मामा अशेंच करीत रावत ह्या भंयान बाळान पार्लाच घर घेतलें. दुसऱ्या चल्याक, मिलिंदाक घेवन कुकुल पार्लाच्याच घरांत रावपाक लागलें. घर निवळ करून घेवपा खातीर बाळान म्हजेचकडेन घराची चावी दिल्ली.

प्रल्हाद, मिलींद, मामा, कुकुल ह्या चौगांकूय घेवन बाळ आतां पार्लाच रावतालो. दोगूय चल्यांक घेवन तो दर आयतारा सांजचो म्हगेर येतालो. संजय आनी बेबीन तांचे बरोबर खेळप. हांवें तांकां च्या आनी खारेगाठी दिवप. मोन्यानीच भावाचें कर्तव्य जाल्ले भशेन तो येवपाचें काम नेमान पार पाडटालो. मामा आमगेर येवन बी रावतालो. बाळान दर आयतारा न चुकतां पावट मारची पूण म्हजेकडेन एक उतर लेगीत उलयनासतना निरोप घेवंचो. म्हाका खूब वायट दिसतालें. सदांच खोशी, सगल्यांक पावपी बाळ मदींच मौन व्रत घेवन खूब फावटी गोंदळांत उडयतालो. मनशाच्या मनाचे वेगवेगळे पैलू हे धव्याफुल्ल रंगांत लेगीत सप्तरंग आसतात ते भशेन.

आठ दीस दिल्लीक रावन मुंबय येतकूच परत म्हाका दीस गेल्ल्याचे म्हज्या लक्षांत आयलें. परत तो भयंकर दुवाळो सुरु जालो. हे फावट भर म्हळ्यार, म्हाका कसलोच वास सोंसू नज जातालो. सत्संगाक वतना मम्मीजीन–चाचीजींन आपले घरा पोव लायल्यार म्हाका हांगा नाका पुरो जातालें. कितलोय त्रास जाल्यारुय हे फावट कशीच गुळी घेवप ना अशी हांवें गांठूच घाल्ली. ओंकून ओंकून घशाक कांटे आयल्यार लेगीत हांवें कसलीच गुळी घेतली ना.

जातल्या भुरग्याचे दोळे बरे जावं हो एकूच जप हांवें धरिल्लो. दोळे सुंदर आशिल्ल्या भुरग्यांचीं चित्रां हांवें हाडून लायलीं. तांकां पळयत रावल्यार भुरग्याचे दोळे बरे जातात हे आशेर हांवें ते दीस धुकल्ले.

२७ डिसेंबर १९६२ या दिसा आमगेर बाय जालें. दोतोरान भुरगें जाल्ल्याचें सांगतनाच हांवें रोकडेंच, ''ताचे दोळे बरे आसात न्हीं?'' म्हणून विचारलें. मोटे मोटे दोळे करीत म्हजेकडेन टुकूटुकू पळयतल्या सोबीत बायन म्हाका दर्शन दिलें.

नर्सीन ताका न्हाणोवन, गुठलावन, ताच्या केसांचो कोंबो कसो वळोवन म्हज्या हातांत दिलें. आमकां ताच्या दोळ्यांक कितलें पळोवं आनी कितलें नाका अशें जातालें.

हें आमचें धाकलें बाय जालें तेन्ना ताका खंयचें नांव दवरचें तें थारच नाशिल्लें. निमणें त्या दिसांनी खूब लोक दवरताले तें स्मिता हेंच नांव आमकां आवडलें. अपुर्बायेन आमी ताका बिटू म्हणूंक लागलीं. बेबी फाटल्यान बिटू आठ वर्सांनी जालें, म्हूण ताची खूब अपुर्बाय जाली. बेबी लेगीत ताका खूब मोगान सांबाळटालें. संजय आनी बेबीमदीं आशिल्लें तें सर्तीचें नातें बेबी आनी बिटू वा संजय आनी बिटूमदीं नाशिल्लें. बेबी बिटूक घेवन आपले मैत्रिणीगेर वतालें. संजय एक फावट बिटूक घेवन 'मेरा नाम जोकर' सिनेम लेगीत पळोवन आयलो. जनावरां आनी जोकर बी आशिल्लो सिनेम म्हूण तो ताका घेवन गेल्लो. तसोच एक फावट तो ताका घेवन 'गाढवाचें लग्न' हें नाटक पळोवपाक गेल्लो अशीय म्हाका याद आसा.

पळयतां पळयतां भुरगीं व्हड जालीं. मदींच संजयान वाटकुळ्या व्हड उदकाच्या पायपावयल्यान उडी घेवन खाडकी फोडून घेतली. ताका हॉस्पिटलांत व्हरून टाके घालचे पडले.

१९६२-६४चो काळ आशिल्लो. निकतीच भारत-चीन लढाय जावन गेल्ली. भारत खूब कठीण परिस्थीतींत आशिल्लो. लोकांक जेवपाक तांदूळ मेळनाशिल्ले. जीवनाक गरजेच्यो आशिल्यो साद्यो गजाली मेळपाची मारामार जाल्ली. बिटू तेन्ना निकतेंच जेवंक लागिल्लें. खंयच्यान तरी सोदून ताचे खातीर आमी इल्लेशे तांदूळ हाडटालीं. गोंयांत येतकूच मामी आपल्या कुत्र्या-माजरांक रासभर शीतागोटे घालता तें पळोवन अजापशें दिसतालें.

तर, एक फावट बिटू खातीर शीत करपाक धाकल्या तोपांत अर्द वाटी तांदूळ घालून हांवें गॅसार दवरलें. एक कान शिटयेचेर दवरून हांव म्हजें

काम करपाक लागलें. थोड्याच वेळान ढुम्म करून मोट्टो आवाज आयलो आनी येदो व्हडलो कुकरूच वयर टपार उसळ्ळो, आनी ठाऽ..ऽ करून वयल्यान सकयल आपटलो. कुकराच्या धाकण्याच्या कुशिंतल्यान त्या इल्ल्याश्या शीताचे बारीक-बारीक गोटे घरभर उसळ्ळे. कितले दिसमेरेन खंय-खंय ते कांटे जावन वणटीर लागिल्ले एकेकूच दिश्टी पडटाले. आवाजान हांव सामकें भियेवन थरथरलें. गॅस बंद केलो, आनी सगलें निवळ करतासर म्हाका नाका पुरो जालें. ते घडणूके नंतर हांवें कुकराक हात म्हणटा तो लायलो ना. अशे कुकर उडपाचे प्रसंग खूब कडेन जातकूच मागीर नव्या कुकरांक सेफ्टी वाल्व आयले. आनी, कुकर उसळपाच्या बदला सेफ्टी वाल्व उसळून सौम्यपणान संकट टळपाक लागलें.

भाज्येच्यो- सामानाच्यो पोटल्यो हातांत घेवन ताकतिकेन वचपी बायलांक पळोवन म्हाका म्हजीच याद जाता. भाऊ ऑफीसांत वचपाक जो सकाळफुडें जेवणाचो डबो घेवन वतालो तो बद्द रातचो णवांक घरांत भितर सरतालो. बाजारहाट, रांदप, घरचें काम, भुरग्यांक शाळेंत पावोवप-हाडप, दोतोर-होस्पिटल सगळें हांवूच करतालें. आमचो शेजार बरो आशिल्ल्यान म्हजे सारके अशिक्षीत बायकेक तग मारुंक जालें हें मात खरें. त्या तेंपार शेजार हो आमच्या आयुश्यांत कितलो म्हत्वाचो घटक आसतालो तें पळोवंक गेल्यार आतां जग कितलें स्वताभितर गुरफटलां आनी आत्मकेंद्रीत जालां तें लक्षांत येता. बदलत्या दिसांचें तें एक चुकोवंक शकना अशें चित्र आसूं येता. आमचे जिणेंत मात सोयरीं आनी शेजारी हांकां समसमान म्हत्व आसा.

एक फावट सदचो बाजार करपाक हांव विलेपार्लेच्या बाजारांत गेलें. एका हातांत पिशवी आनी दुसऱ्या हातांत बिट्टूचें बोट धरून हांव बाजारांत

पावलें. विजय स्टोअर्स, चिकुवालो असो सगलो वळखीचो वाठारूच अशिल्लो. सामान घेतां-घेतां एका दुकानांत पावतकूच हांवें बिटूचो हात एका मिनटाखातीर सोडलो आनी बोट दाखोवन, 'ते कितीला?' असो दुकानदाराक प्रस्न केलो.  आनी परत पळयत जाल्यार बिटू ना! ताका कोणे तरी उबारलें!! ताचो रडकुरो आवज आयकूंक आयलो म्हणून हांवें, बिटू-बिटू म्हणून बोवाळ घालो. तितल्यान आमच्या सदच्या चिकुवाल्यान बिटूक व्हरतना दिस्त पळयलें. ताणें ताका त्या भामट्याचे तावडींतल्यान सोडोवन आपल्या म्हऱ्यांत दवरलें. हिमट्या-हिमट्यांनी रडटल्या बिटूक हांवें घट धरलें आनी थातारलें. बिटूच्या कांनांतल्या जोडातलें एक रींग हे झटापटींत नाच्च जालें..

त्यातेंपार, भुरग्यांक उबारून व्हरपी टोळयो खूब किल्लल्ल्यो. आतां तर त्यो मातल्यात. आमकां आयिल्लो हो निसट्टो अणभव आंगार कांटो हाडीत बदलत्या दिसांची चुणूक दोखोवपी आशिल्लो. निश्कळंक, मजेंत जगपी आमी मुंबयकार लोक आतां जीव मुठींत घेवन जगूंक लागले. मुंबयची जीण बदलताली. सगले तरेचे लोक येवन मुंबय फुगत वताली. पोटा-पाण्याखातीर केल्ल्या बरे-वायट सगले तरेच्या वेवसायांक ऊत आयिल्लो. आनी हांचे बळी थारताले मुंबयचे सामान्य लोक. रेल्वेंतल्यान येतना-वतना, बाजारांतल्या गर्देंतल्यान वाट काडटना सगले तरेचे अणभव घेंवचे पडल्यात. सगल्यांक टक्कर दित शाणपण घेत हांव फुडली वाट चलतालें. बदलते मुंबयकडेन चार हात करपाचो यत्न करतालें..

अशीं आपटत धपटत आमी जिवीताचीं सोपणां चडटालीं. तांचे बरोबर हांव जाता तशी साथ दितालें. म्हजें अर्दकुटें शिक्षण, ल्हान पिराय आनी तोडक्या मानसशास्त्राचें गिन्यान हाका लागून तांचे वाडटे पिरायेंत जाल्ले सभावीक बदल म्हज्या लक्षांत येनाशिल्ले. आनी लक्षांत आयल्यार लेगीत

तांकां तोंड दिवपाचें सर्वसाधारण गिन्यान आनी अणभव म्हजेकडेन त्यावेळार नाशिल्लो अशें आतां म्हाका दिसता.

एक फावट भुरग्यांक घेवन आमी जोत्स्ना आनी ताचो घोव रामचंद्र भट हांचे बरोबर महाबळेश्वर भोंवपाक गेलीं. दिवाळी जातकूच अकस्मात वचपाचें थारिल्ल्यान फांतोडेर उठून देवाक दूद–फोवाचो प्रसाद दाखोवन फराळाचे डबे घेवन आमी गाडयेंत बसलीं. भाऊ, जोत्स्ना बी त्या भुरग्यांबरोबर बरोऽ रमतालो. म्हजो सभाव तर सदांच फकाणां मस्करी करपाक, हांसत–खेळत जगपाक आशेल्लो आसतालो. बरीं मजेंत आमी सगळीं थंय रावलीं.

थंय संजय मात्सो ओगी ओगीचसो रावतालो. हें म्हज्या लक्षांत आयिल्लें. ना शें न्ही. कित्याक काय? असो प्रस्न म्हाका फाटीं ओडटालोच. धाकल्या बिटून मात सगल्यांकडल्यान भरपूर लाड करून घेतले. सुकील्लें तण हातांत घेवन तें सगल्यांच्या फाटल्यान नाचतालें. तांकां हुळहुळायतालें. माथ्यार पदर घेवन थंयच्या वावराड्यां भशेन 'कामाला बाई पाहीजे का?' करून मोडून दाखयतालें. हांवूय तांचे बरोबर म्हज्या आयुश्यांत क्वचीत येवपी सूख अणभवतालें.

डिफ्थेरिया जावन वचत सावन संजयाच्या सभावांत आनी एकंदर शिक्षणांतले प्रगतींत फरक पडिल्लो. सदांच पयलो नंबर घेवपी भुरगो सातवेंत एक फावट नापास लेगीत जालो. ताका शिकोवपाक प्रेमाआक्कालो बाबू येतालो. भाऊ ताका रातचो येतकूच शिकोवपाचो यत्न करतालो. पूण लक्ष दिवन आयकुपाचें सोडून आपलेच तंद्रेंत उरपाचे अशे कितेंतरी दीस संजयाक घेरताले. ताच्या उपरांत ताच्या प्रगती पुस्तकाचेर 'पुढच्या इयत्तेत ढकलला' असो शेरो एक–दोन फावटी आयलो. हांव ताका 'लक्ष

दि रे संजय' अशें पर्थून पर्थून सांगतालें. धावेचे परिक्षेच्या निकालाचो आमी भंय घेतिल्लो खरो पूण ती आघाडी ताणें सांबाळ्ळी.

५५ % गूण मेळून तो पास जालो. आमी सगलीं खूश जालीं. प्रसिद्ध चित्रकार प्रफुल्ला डहाणूकर ही भाऊच्या बापोल भावाची बायल सुमन हिची भयण. सुमन ही म्हजी मैत्रिण कशी. तिणें आपले भयणीक सांगून संजयाक पार्ला कॉलेजींत प्रवेश मेळोवन दिलो. पयल्या वर्साची परिक्षा जाली. निकालाचो दीस आयलो. आठ मार्च हो दीस उजवाडलो. केन्ना न्ही, ती म्हजी तकली सकाळसावन घुंवताली. सगळें जग वाटकुळेंच फिरुंक लागिल्लें. तातूंत आमचो रामागडी येवंक नाशिल्लो. घरचीं धुणीं– आयदनां, लादी पुसप, रांदप, सगळें एकल्याचेर पडिल्लें. बेबीची धावेची परिक्षा आठ दिसांचेर आयिल्ली. तें भितर बसून अभ्यास करतालें. हांवें संजयाक विचारलें, ''तूं जेवन वतलो, काय येवन जेवतलो?''

''जेवन वतलों.'' ताणें जाप दिली. तकली गिरगिरता आसतना तशेंच उठून हांवें शीत–रोस करून दवरलो. संजय जेवन कॉलेजींत गेलो. हांव कपडे उमळूंक बसलें. थोड्याच वेळांत संजय परत घरा आयलो. ''आयलो रे रोखडोच? पयलीं सांगचें न्ही म्हाका तूं रोखडोच येतलो म्हणून?'' अशें म्हणून हांव म्हजें काम करीत रावलें. संजय घरा आयिल्लो तो परत कपडे घालून चलूंक लागलो. कोणाकच कांयच सांगलें ना.

वर दोन वरान ताच्याच वयाचो श्याम अग्री ताका सोदपाक घरा आयलो. तो कॉलेजींत वचून निकाल पळोवन आयिल्लो. बोर्डाचेर संजयाचो नंबर नाशिल्लो. श्यामाल्या मनांत पाल चुकचुकली. संजय घरा ना आनी ताचो सीट नंबर पास जाल्ल्या त्या भुरग्यांनी ना. ताणें प्रल्हादाक फोन लायलो. ताकाय कांयच खबर नाशिल्ली. अशेच दोग चौग जाणांक फोन लायले. रात जायत आयिल्ली..

संजयाक वळखुपी एक भुरगो, ''मी त्याला गाडीकडे जाताना पाहिला.'' म्हणूंक लागलो. ''आत्याकडे जातो म्हणाला'' अशेंय सांगूंक लागलो. म्हणून प्रेमाआकागेर फोन लायलो. थंयूय ना. मागीर मात ती जीवघेणीं सोदासोद सुरु जाली. पेपरांत नांव दिलें, गाडी घेवन सगलेकडेन सोदलें. चार दीस मेरेन कोणाच्याच जिवाक थारो नाशिल्लो. बाळ–प्रल्हाद, भाऊ, शेजारी–पाजारी, प्रेमाआक्कालीं भुरगीं, तांचे जांवय, सगल्यांनी प्रयत्न केले. दारांत पळी लावन दवरली. देव उदकांत दवरले. म्हणटा म्हणटा तें सगलें केलें. घरांत रडारड, काळजांत कालवाकालव. भायर सरिल्लो म्हजो तरणाटो चलो परतो घरा आयलोच ना. स्वत:चेरूच रागार जावन ताणें कांदीवली सारख्या अनवळखी जाग्यार रेल्वे रूळाचेर घालून घेतलें. येदें व्हडलें धाडस ताका जालेंच कशें हाचेंच रावन रावन अजाप दिसता.

निमणें चार दिसांनी बाळाक आनी भाऊक ताची कूड सोदून हाडची पडली. सुंदर तरणेबांड अशे ताचे कुडीची अशी विटंबना जायत अशें कोणें सपनांतूय चिंतूक नाशिल्लें. भाऊ आनी हांव सामकीं हादरून गेलीं. पार्लाचें आमचें घर सामकें रेल्वे लायनीकूच तेंकून आशिल्ल्यान सतत धांवते गाडियेचे आवाज कानार मारताले. तेदेवेळार न्हिदेंतल्यान जागें जावन कलकलो भरतालो. न्हय न्हय तीं सपनां पडटालीं. दीस आमचे भोंवतणीं पिंगा घालूंक लागताले. सगळो वेळ ताचो आवाज कानार येतालो. पोटांत कितेंतरी तुटिल्ले भशेन जातालें. शेवटीं म्हजे आवयभशेन म्हजी अवस्था जायत म्हणून आमी मुंबय सोडपाचो निर्णय घेतलो.

जिविताची चडटी–देंवती काडून खरशेल्ले आनी निर्शेल्ले अवस्थेंत भाऊन एक म्हत्वाचो निर्णय घेतलो. निकतीच मिसरुड फुटूंक लागपी आपल्या तरण्या चल्याचो घास घेवपी मुंबयक कायमचो निरोप दिवपाचो

निर्णय. पदराक दोन चलयो आशिल्ल्यो. पयशांचें फाटबळ केन्नाच नाशिल्लें. फक्त सरकारी नोकरेचो भक्कम आदार आशिल्लो. तिचेरुच खोंट मारून गोंयांत येवपाचें धाडस भाऊन दाखयलें.

म्हज्या मनार जाल्ल्या खर आघाताक लागून म्हाका पिशें बी लागत ह्या भंयानूच भाऊन मुंबय सोडपाचें थारायलें. उलट-सुलट विचारांनी हांव तेन्ना खूब थकून वतालें. लोकांक तोंड लेगीत दाखोवप म्हाका जड जातालें.

कांय वर्सां फाटीं महारोग ह्या विशयाचेर एक पुस्तक वाचून तो रोग म्हज्या शरिराक जाला हेच समजुतीन हांव चलतालें. सतत तोच विचार करकरून म्हजीं हातापायांचीं बोटां सुजिल्लेवरी जावंक लागलीं. स्पर्श गिन्यान तपासूंक हांव तापिल्ल्या तव्याचेर हाताचो तळवो दवरतालें. पुस्तक वाचून तेदेवेळार म्हजेर सुमारा भायर परिणाम जाल्लो. इतलो की, निमणे भाऊन म्हाका शुश्रुशा मानसोपचार दोतोरागेर व्हेलें. आनी उपचार सुरु केले.

ते गजालीची याद जिती आशिल्ल्यान ताणें जाता तितले बेगीन मुंबय सोडपाचें काम हातांत घेतलें.

थोडोच तेंप पयलीं आमचो शेजारी पापाजी दुसरेकडेन रावपाक गेल्ले. तांची जागा आमी घेतिल्ली, पूण ती घरमालकाच्या नांवार आशिल्ल्यान ती न विकतां परत घरमालकाकूच दिंवची पडली. आमी रावतालीं ती जागा मात भाऊलो बापोल भाव श्रीकृष्ण शिंक्रे हाचे मजतीन ताच्या एका मित्राक लिवलायसन्साचेर दिली.

बॉम्बे सेंट्रल प्रेसांत भाऊन नोकरेचीं सत्तावीस वर्सां पुराय केल्लीं. बेगीन निवृत्ती घेवन मुंबय सोडपाचें निश्चीत जालें.

सामान घेनासतनाच हांव आनी भाऊ भुरग्यांक घेवन मडगांवां बाबा-मामीगेर थोडे दीस रावपाक आयलीं. तेन्ना तांच्या पांखां सकयल, तांचे

छायेंत खूब ऊबशी मेळ्ळी. असहाय्य परीस्थितींत कोणतरी आपलोसो आसा ह्या विचारान खूब मानसीक आदार मेळ्ळो. त्या घरचें वातावरणूच खूब मायेस्त आसतालें. ते राती आमी दोगांय एकामेकांक वेंग मारून खूब रडलीं.

तेन्नाच आमी बेबीक मडगांवां चौगुले कॉलेजींत प्रवेश घेवप आनी बिटूक होलिस्पीरीट स्कुलांत घालप अशें थारायलें. भाऊन आपली सुई-सूत चरितार्था खातीर वापरपाचें थारायलें. आनी थोड्या तेंपान निवृत्त जावन येवपाचो आशिल्लो तो अशे तरेन आयलो अशें ताणें मनाची समजूत काडून घेतली.

फोंड्यां भर बाजारांत म्हज्या मांवालो एक पसरो आशिल्लो. ''थंय तूं तुजें टेलरींगचें दुकान घाल.'' बाबान भाऊक सांगलें. शिवाय, एक-दोन शिवपाचीं मशिनांय घेवपाक ताणें मजत केली. अशें सगलें आखावन घेवन आमी परत मुंबय आयलीं. पार्ले टिळक विद्यालयांतल्यान भुरग्यांचीं नांवां काडटना मन खूब खंती जालें.

भाऊली नोकरी एक वर्स येवन-वचून तिगोवन दवरपाची गरज आशिल्ली. सामान-सुमान बांदून एका ट्रकार घालें. घरांतली म्हजी सांगातीण मनीमाऊ चुचुन व्हिल्लें. ताची पोटली दिल्लीसावन हाडिल्ल्या पेटाऱ्यांत घाली आनी बाबाले गाडयेन आमी सुखरूप गोंयांत आयलीं.

बाबाच्या छत्राखाला खूब लोक रावन वताले. सगल्यांची गरज बाबाक अचूक कळटाली. म्हजी जाव मामी ताका सार्थ साथ दिताली. तिच्या कुळारच्या शिक्षणाक म्हणून, दुख्खांतल्यान सावरपाक म्हणून दुयेंत जाल्यार सगल्या कठीण प्रसंगाक हें बाबालें घर सगल्यांक आदार दितालें. म्हजी मांयूय तांकां तितलेच तोडीची साथ दिताली.

शिंक्य्राल्या घराविशीं, तांचे विशीं बरयतना खंयचेय सासुरवाशिणींक जाता तशेंच म्हजेंय मन भरून येता. म्हजी मांय-मांव, व्हडलो देर मुकुंद शिक्रो, मदलो विनायक, आनी धाकलो गुरुदास म्हजो घोव. व्हडली नणंद प्रेमा दलाल, मदली कम्मल कैसरे आनी धाकली पुष्पा (पुकन) कुंकळकार.

म्हजे मांयचेविशीं सांगतना अभिमानान हड्डें भरून येता.

'व्हडल्या आई' ह्या नांवान लोक म्हजे मांयक उलो करताले. फांतोडेच्यान रात मेरेन एकादे मुंयेभशेन तिचें काम चालूच आसतालें. भाणाक उजो घालप, शेंकड्यांनीं वाती वळप, सुतां गुठलावन तांच्या गुळ्यांपासून पोतयो बी विणप, घरांतल्या सगल्या चलयांच्या केसांनी तेल घालून ते निवळ दवरप. फुलां काडून तीं गुंथप, फुलांचे, बोकोडीयांचे आनी तुळशीचे हार घालून देवळांनी पंचखाद्ये बरोबर पावोवप, घरच्या सुनांक फातयो, जुयांचे पोड करून माळप. येतल्या वतल्याक हडकुवप, नेमान राष्ट्रमत पुराय वाचप. तपलेंभर शीत वाळप. नुस्तें तळप, हुमण करप, खतखतें करून भुरग्यांक हुनहुनीत वाडप. ताटभर आंबे, फळां शिनून घरभर लोकांक वाडप. तिनसनां पीठ कालोवन चपात्यो लाटून दिवप. देव्हारो चकचकीत दवरप. दिवाळेक पिठाचीं निरांजना, दिश्टीचे गुळे, ओवाळणीचें तबक, पिंजर घाल्लो उदकाचो पडगो, रांगोळी सगळें दिस्ता दिस्त करप.

गोजड्यो बारीक शिंवप, इतलेंच न्ही तर मेटीचेर भरतकाम ती जाण्टेपणांतूय करताली. दनपारां आपलोच पदर पसरावन १०-१५ मिनटां ती सोप्यार दोळे धांपताली तितलीच. हेर सगलो दीस तिचें रहाट-गाडगे चालूच आसतालें.

आऽहा, शाऽब्बाऽस, नाऽऽराऽऽयऽण, अशीं तिचीं उतरां आनी हांसप आजुनूय तिची याद जाल्यार कानार पडिल्लेवरी जाता.

इल्लोसो कपडो मेळ्ळ्यार पुरो, तो घेवन माळयेर वचून आपले खातीर चोळी शिवपाची तिका खूब आवड आशिल्ली. चोळी शिंवून आंगार

घालूनच ती माळयेवेल्यान सकयल देंवताली. एक फावट हातांत सुई-दोरो आसतनाच तिच्या म्हऱ्यांत चार-पांच वर्सांचो भाऊ खेळटालो. तिणें ताका हटकीलो. फकणांनी ताका म्हळें, ''आतां तुजें लग्न करुया मरे?''

''हय'' धाकल्या भाऊन म्हळें. म्हजे मांयक हांसूंक आयलें.

''कोणाकडेन करुया रे?'' तिणें फुडें विचारलें.

''हांव गोपीक्मावशेकडेन लग्न जातलों.'' भाऊन एकूच उडी मारून सांगलें. तेबरोबर अजापान म्हजे मांयचें तोंड उगतेंच उरलें! वत्सलमावशेचें सासरचें नांव गोपिका आशिल्लें. आनी भाऊ आपूण तिचेकडेन लग्न जातलों अशें म्हणटालो.

त्यावेळेचें वातावरणूच तशें आशिल्लें. जावो-जावो, भयणीं-भयणीं कश्यो रावताल्यो. एकामेकाल्या भुरग्यांक न्हाणोवप, लावप, न्हिदोवप सगलें सहज करताल्यो. आपलें-तुपलें कांयच नाशिल्लें.

फोंडेच्या चवकेच्या घरांत काशिनाथ-बुबू हांची दादा आनी गोकूळ अशीं दोगां भुरगीं. भिकाप्पो-सातेआई हांचीं दत्ता, बाबा आनी बाय अशीं तिगां, व्यंकटाप्पा-मावशीबायलीं श्रीकृष्ण, रवी,अविनाश, इंदू, दुर्गा आनी सुशीला अशीं स भुरगीं. असो सगलो कुटुंबकबिला मोगान रावतालो! पंचू (म्हजी मांय)ले सगळे धा बाळंटेर जाले. तातुंतलीं स जगलीं. पांच जाण भावांच्या बिराडांत फोंडेचें घर गोकुळ कशें नांदतालें.

घरचे दादले एक तर काम्रांत (मुनिसिपालटी) नाजाल्यार कोर्टांत काम करताले. शिवाय भाट-भेंस भरपूर. घरचे नाल्ल रासभर आसताले. वत्सलमावशेन आनी म्हजे मांयन गोरवां पोशिल्लीं. भाऊ तेन्ना दूद विकूंक वाड्यार भोंवतालो. घरा येतकूच सदांच बाटल्यो जमनीर आपटीत म्हणटालो, ''लोक सदांच दूद पातळ दिता म्हणटात.''

''हां हां फाल्यां सारकें दिवया आं.'' अशें ताका ती सांगताली. फकत गरज लागताली ती साकभर तांदळांची. दोनूय वेळ शीत–कडी, रातची किस्मूर आनी पापड, जालें. तरातरांच्यो भाजयो, पक्वान्नां बी त्या दिसांनी फकत परबे दिसाच करतालीं. पुराय कुटूंबाक स दिसांक एक तांदळाचो साक लागतालो. केन्नाय मागीर सातवे दिसाक उरिल्ले तांदळांच्यो चकऱ्यो बी घुंवणायतालीं.

पुरो जावन न्हिदतकूच म्हजे मांयक आपलीं भुरगीं व्हडल्या व्हडल्यान रडल्यारूय जाग येनाशिल्ली खंय! अशा वेळार ल्हवूच येवन वत्सलमावशेन भाऊची पोटली उबारून आपल्या पदरापोंदा घेवप आशिल्लें. तिचेच उबेंत ल्हानाचो व्हड जाल्ल्यान भाऊ शेपडी कसो तिचे फाटीं–फुडें घुंवतालो. तिचेचकडेन लग्न जातलों अशें म्हणटालो. निमणें तिचेच भाचयेकडेन लग्न जावपाचो सुयोग आशिल्लो हें कोणाक खबर!

आपल्या पांचूय भुरग्यांबरोबर मांय तेन्ना फोंड्यां रावताली. दीस ओढाताणीचे आशिल्ले. प्रसंगावेळार स्वताच्या हातांनी लाकडां फोडून उजो पेटोवपाचें काम लेगीत करचें पडटालें. व्हडलो पूत, बाबा नुकतोच वकील जाल्लो. चवथेंत शिकपी भाऊ बाप्पोल्या मांडार वतालो. थंयच एका स्टुलार बसून, मान सकयल घालून गोविंद कपडे शिंवतालो. भाऊक तागेलें काम आवडूंक लागलें. सुताचे बट्ट्ण करप, हातशिलाई करप, बारा आण्याक एक अश्यो कॉलरी शिवून दिवप, आवयबरोबर तणाची तोपी करप, विड्यो वळप असलीं सगलीं बरीकसाणीचीं कामां तो करतालो.

चवथे मेरेन आल्मेदांत शिकतकूच भाऊन एक दीस बाबाक सांगलें, ''म्हाका फुडें शिकपाक जाय. तूं मडगांवां एक घर कित्याक घेना?'' बाबाक हांसूंक आयलें. तो निकतोच वकिली करूंक लागिल्लो. घर घेवप कशें शक्य जातलें? तरीपूण विचारांचो भुंगो ताचे तकलेंत घोळूंक लागिल्लो.

संद मेळटकूच बाबा, भाऊ, कमल आनी पुकन मडगांवां रावपाक लागलीं. भाऊ पोपुलरांत शिकपाक लागलो. बाबाची वकिली चालू आशिल्ली. कमल सगल्यांक रांदून वाडटालें.

पोपुलरांत शिकतना भाऊची आनी बाळाची गट्टी जमली. दोगांनीय बेळगांवां वचून धावेची परिक्षा दिली. मागीर दोगूय बरोबरीन मुंबयूय गेले.

म्हजो दुसरो देर, अण्णा आपले बायलेक (काकीबाय) आनी श्याम, हेमंत या दोन पुतांसयत बाबागेरुच रावतालो. कांय तेंपान तो पणजे म्हजे नणंदेगेर, कमल कैसरे हांगेर ताणें आपलें कुटूंब व्हेलें. बरोच तेंप तो पणजेच आशिल्लो. श्याम–हेमंत व्हड जातकूच ताणें फोंडेच्या आमच्या चवगांच्या घरांत येवपाची तयारी केली. मांवाच्या मांडार एकेवटेन भाऊ आनी दुसरेवटेन श्याम अशे काम करुंक लागले.

भाऊक आपले बरोबर काम करपाक दिना नांवाचो एक तरणाटो मेळिल्लो. ताचेर विस्वासून सुरवातीच्या काळांत भाऊ मुंबय येवन–वचून आपले नोकरेचो काळ पुराय करतालो.

मुंबयच्यान सामान गोंयांत पावतकूच घरांत वापरपाक हांवें आयदनां काडूंक हात घालो. तेन्ना, 'तुजीं आयदनां आनी तूं काडूं नाका गो.' अशीं उतरां कानार पडलीं. हांव मनांत समजलें. हांगा कायमचें रावप योग्य थारचें ना. हांवें भाऊक ताची कल्पना दिली. ते बरोबर फोंडेच्या चवकेच्या घरांत रावपाचो भाऊन निर्णय घेतलो. म्हज्या मांवाच्या वांट्याक जी जागा आशिल्ली थंय धायमोडकारांचो घराबो रावतालो. ताका म्हज्या मांवान दोन म्हयन्याची नोटीस दिली आनी आमकां आनी अण्णाक एकाच वेळार रावपाची सोय करून दिली. दोन माळयो आनी रांदचीकूड अण्णाक आनी एक व्हडली कूड आनी रांदचीकूड आमकां. अशी रावपाची वांटणी जाली. आमचीं दोनूय कुटुंबां एकामेकांच्या आदारान हांसून–खेळून रावंक लागलीं.

फोंडेचें म्हजें घर खूब आवडीचें आनी वळखीचेंच आशिल्लें. म्हजी वत्सलमावशी ह्याच घरांत तर रावताली. वैकुंठ आनी औदुंबर हे तिचे पूत त्याच घरांत आशिल्ले. भायल्यान लागींच आशिल्ल्या फ्लॅटांत व्हडलो पूत जनार्दन आपल्या घराब्यासयत रावतालो. खासदार आशिल्ल्यान बरोच तेंप पयलीं ताचें दिल्लींत वास्तव्य आशिल्लें. ताचोच भाव वसंत शिंक्रो जागेर हांव बेबी वेळार रावपाक गेल्लें. मना काळजा सावन वागपी, साद्या आनी मायेस्त लोकांमदीं हांव येवन राविल्लें. थाकाय आनी खोशी म्हजे सरी येवंक सोदताली.

फोंडेच्या चार चौकेच्या घराचें वर्णन करतना मन भरूनशें येता. अखंड झाडाच्या बुंध्यांच्या आधारान उब्यो आशिल्ल्यो चार चवक्यो, पांच माळयो आनी आठ कुडी. विस्तृत पसरिल्लें आमचें फोंड्चें घर... पावसान घसघशीत चार घोगे मदल्या आंगणांत धुमशेणां घालताले. वत्सलमावशेन धुवपाक घाल्ल्या लातांचो ठणठणाट तातूंत भरसून वेगळोच नाद निर्माण जातालो. फांतोडेर शेणां शिताड्यांच्या वासान आनी व्हिरासान्नीच्या आवाजान जाग येताली. घरभर चवक्यांनी भुरगीं खेळटालीं.

आवयो तांचेर आड्डताल्यो. सांजेचीं सगलीं भुरगीं फाटले दारा व्हाळार आनी पेरीर धुमशेणां कांडटालीं. फाटल्यान वैकुंठभाऊल्या गोरवांचो गोठो मोगान उबो आशिल्लो. तातुंतलीं गोरवां दूद दिवपापरस वैकुंठभाऊल्या मोगाकूच आंचवेल्लीं आसतालीं. ताची बायल रत्नाबाय, औदुंबराली बायल सुप्रिया, वत्सलमावशी, काकीबाय, श्रीकृष्णाली आवय, मावशीबाय आनी भयण दुर्गा. वैकुंठभाऊली सीमा,नीता, समीर, संतोष, सुदीपा आनी औदुंबराले बिपीन, बिदन, बिरेन अशे घरभर लोक घरांत वावुरताले. एकामेकांगेर जेवताले, च्या–पाणी घेताले. आमी सगल्यो बायलो मेळून





पापड, डांगर, कणंगाचे–नाशण्यांचे घोस बी करून आंगणांत सुकत घालतालीं. भुरग्यांक राखूंक बसयतालीं.

हेच वत्सलमावशेगेर म्हजे आवयन आदार घेतिल्लो. आयज परत एक फावट वेगळ्या तरेन म्हाका या घरान राखिल्लें.

बिटू आनी बेबी मडगांवां शिकतालीं. भाऊचो मांडार जम बसपाक लागिल्लो. हांवें फोंडेच्या घरांत म्हजो जीव रमोवपाक सुरुवात केली. घरभर शेण काडप, रान्नी मातयेन सारोवन तांबड्योगूंज गुळगुळीत करप, खंयच्यान तरी कोळशे हाडून कोळशांची शेगडी वापरप, लाकडाचे वखारींतल्यान साकभर लाकडांचो भुसो हाडून भाणभर उदक तापोवपाक ताचो उपेग करप, असले तरातरांचे प्रयोग करपांत हांव म्हजो जीव गुंतून दवरतालें.

दनपार जातच भाऊन शिंविल्ल्या रासभर काल्सांवांक आनी शर्टांक हातशिलाई आनी काजां–बटणां करतालें. सांजे च्याचो बुडकुलो माणार पावयतालें.

शेजारच्याच माळ्यार रावपी नागू म्हाका घरकामांक हातभार लावपाक मेळिल्लें. हांसत्या मुखाचें नागू आपल्या मोगरेवरी धव्याफुल्ल दांतांभशेनूच निवळ काम करतालें. म्हजी मावसभयण कालिंदी(काली) फोण्यां घरांत वत्सलमावशे म्हऱ्यांत रावतालें. सरकारि प्राथमीक शाळेंत तें शिकयतालें. आमची खूब दाटी आशिल्ली. बरोबर पासयेक वचप, बाजार करप, ढेंकणेल्या दुकानार वचून साडी हाडप, पोटभर बडबडप अशे मजेंत दीस वचूंक लागले. कालीक कितेंच येनाशिल्लें अशें ना. शिवणकाम, भरतकाम, रांदप, त्याभायर बावल्यो करप, मणयांच्यो वस्ती करप. आयिल्ली प्रत्येक नवी वस्त तें करूंक शिकतालें. घरांतल्या भुरग्यांक शिकयतालें. ह्या ताच्या गुणांक लागून १०–१२ वर्सांचें बिटू ताच्या मोगांत पडिल्लें. फोण्यां

आयलें की, दिस-रात ताका तें चिकटून आसतालें. ताचे कडल्यान वायरीच्यो पर्सी करूंक शिकतालें. कालीक पळयत जाल्यार एखाद्री व्यक्ती आपल्या हातांचो उपेग कितले सोबीतकायेन करुंक शकता हाचें अजाप दिसतालें. खरेंच, आमी आमचो वेळ कितलो बरेतरेन काडूंक शकतात! जाय ती आवड आनी करपाचें पासिंयेंस. आतां मेळटा सगळें, हे सबबीचेर आमी कितेंच करुंक सोदिनांत. पूण, मेळिल्लो वेळ आमी सत्कारणी लायतात काय कितें? आसूं! घडये आमी खऱ्या अर्थान जगूंक सोदतात जावयें...

फोणेंच्या घरांत खूब कुटूंबांच्या ताफ्यांत आमचोय घ्राबो रुळपाक लागलो. भाऊचो माणार जम बसतासो दिसतालो. हांव फोणेचो बाजार करतालें.

बुधवार आनी आयतारा फोण्यां अजून सुद्धा बाजार भरता तो पळोवपासारखोच. सरभोवतणच्या ल्हान-ल्हान गांवातले लोक आपल्या पोरसांत लायिल्लो ताज्जो म्हाल घेवन विकूंक येतात. तरतराच्यो भाज्यो, फळां-फुलांनी बाजार फुलता. शिंयां तेंपार पिपऱ्यो, पावसा तेंपार अळमीं, गिमा तेंपार तरातराचे आंबे, आंबल्यो, सोलां, आंबटाण, मिरसांगो, पणस, आम्या-पणसाचीं साठां. अनशी-पणसाच्यो राशी.. गांवगिऱ्यो बायलो घेवन जांबळां-बोरां-चुन्नां. धवे-तांबडे जांब.. हळदुवे-तांबडेच्च काजू म्हुट्टे.. खंयच मेळना ते आमच्या फोणे बाजारांत मेळटाले. नांव घेयात आनी त्या त्या तेंपार तें तें घेवन वचात. माडी जाय मेळ्टा. किल्ल मेळटलोच, मयणोळी केळीं, रसपाळी केळीं, सालदाटी केळीं, सावरबोणीं केळीं.. सगल्या तरांचीं केळीं बोरी गांव काडटकूच दिश्टी पडुंकूच जाय.

शिवाय, रतनआबोलीं कागदांत घालून विकर्ती मेळटालीं. आमी बायलो कितेंय समारंभ बी आसतकूच रतनआबोलीं आनी मोगरेची फांती एकठांय

करूनूच आमच्या आंबाड्यार माळटालीं. तेदेवेळार ह्या कागदांत बशिल्ले रतन आबोलेचो वालोर खूब चडटालो. त्याभायर पिशे आबोलेचे झेले, कांदळां–वोंवळां– सुरंगाचे वळेसर, जायो–जुयांचे पोड, हळदुव्याच्च शेवतींची गच्च मर्दी झीग बी घालून केल्ली फांती. मोगरे कळ्यांची पुटपुटीत हळी. हात्याच्या तुऱ्याचो घमघम, चाफ्याचो त्रिकोनी पुडो, नागचाफ्याचीं फुलां, कवटीचाफ्याचो बोंगो, धालांनी भरिल्ल्यो टोपलेच्यो पराती. हार–तुरे–फांती सगळें चुकनासतना भरभरून मेळपाचें ठिकाण म्हळ्यार फोणें.

इतलेंच न्ही तर, सगल्यांत रुचीचें आनी ताजें नुस्तें लेगीत फोण्यांच मेळटलें. मडकय, दुर्भाट अशा लागिच्या ल्हान गांवचे लोक आपलें जीत्तें, न्हंयचें नुस्तें घेवन विकूंक हाडटाले. हांगा तुमकां पोस्ताचें न्ही तर घोस्ताचें नुस्तें चुकनासतना मेळटलें..

सकाळीं वचून हांव घोस्तान बाजार करूंक लागलें. भाऊ माणार बसून दिसभर कपडे शिवतालो. ताका कपड्यांची हात–शिलाई करून हांव दितालें. संजयाची याद पुसून उडोवप शक्य नाशिल्लें. काळजांत खदखदपी ताच्या यादींचो उमाळो आमी तसोच पर्थून लायतालीं... अशेच भावनेंत गुरफटील्लेकडेन एक फावट.. म्हजी मांय, हांवें एक चलो जावंक दिवंचो म्हणून म्हजे फाटीक लागिल्ली. पिरायेचीं छत्तीस वर्सां सावरी कापसावरी हुबून गेल्लीं. तिगांय भुरग्यांक ल्हानाचीं व्हड करून सुटकेचो निस्वास सोडिल्लो. आतां पर्थून मातृत्वाची तयारी करपाक शरीर आनी मन दोनूय तयार नाशिल्लें. संजय गेल्ल्यान जाल्ली जखम अजून जिवीच आशिल्ली.

पूण खंयच्यान तरी अदभूत खीण फळाक आयलो. दुवाळ्यांनी सदचेभशेन म्हाका घेरलें. थंडगार आयस्क्रीम खावपाक जीव तळमळूंक

लागलो. व्हडलें चली कॉलेजींत आनी धाकलें पांचवी शिकता आसतना पर्थून गुरवार जाल्ल्यान लजशी दिसताली. एकेवटेन किल्लत घाल्ल्या पोरण्या बियांक कोंब फुटिल्ल्याचोसो आनंद दिसतालो. पूण भुरग्यांक सांगपाचें धाडस लेगीत म्हाका जायनाशिल्लें.

सुटयेंत फोण्यां आयिल्लेकडेन बिटून म्हाका सकाळफुडें मिडमिडटना पळयलें. तें मागिलदारा बांयचेकडेन उबें रावन म्हाका विचारुंक लागलें, ''कितें जालां गो तुका? पोटांत बरें ना?'' तेन्ना हांवें ताका म्हन्यांत आपोवन ती गोड गजाल सांगली. अजाप आनी खोशी हांचें अजब मिश्रण म्हाका ताच्या तोंडार पळोवपाक मेळ्ळें. बेबीक सांगपाचें धाडस मात म्हाका जायनाशिल्लें.

दोन–तीन म्हयनेच जाल्ले. बाजारांत वतना वाटेर आशिल्ल्या दोतोर गोखलेंक हांवें म्हाका दाखयलें.

एक दीस देवान दाखयल्ले आशेचे तें किरण मातयेभरवण जालें... म्हाका रगताचे लोट व्हावंक लागले. मांडार वचून भाऊक सांगपाची सुद्द लेगीत म्हाका उरली ना. दोतोर गोखले आनी ताची बायल पर्थून पर्थून घराकडेन येवन म्हाका तपासून वतालीं. 'तांणी पळयलां' ह्या धिरार हांव वोग्गी आशिल्लें. खरें म्हळ्यार म्हजी विचार करपाची अशी स्थितीच उरूंक नाशिल्ली. न्हिंदिल्लेकडेन चादरी रगतांत भरताल्यो.

मनशाच्या सभावाक कितले रंग आसतात हाचें म्हाका सदांच अजाप दिसता. वायट मनीस बरो वागून आमकां अजापीत करता तर बरो बरो म्हणटात तो अकस्मात आपले वागणूकेक लागून हाका बरो कसो म्हणचो अशे मनस्थितींत उडयता.

काकीबायन अशावेळार म्हाका खूब मजत केली. म्हज्यो रगतान भरिल्ल्यो चादरी उखलून धुवून उडोवपाक लेगीत ती फाटीं रावली ना.

औदुंबराक म्हजे हे अवस्थेचो अंदाज आयिल्लो. दोतोर गोखले फावटी मारून वता तें ताणें पळयिल्लें. तिचेकडेन वचून ताणें अदमास घेतलो आनी भाऊक मेळून म्हाका रोखडेंच केरकाराल्या होस्पिटलांत व्हरपाचें थारायलें.

औदुंबराले गाडयेंत लेगीत बसपाचें म्हाका त्राण उरूंक नाशिल्लें. शेवटाक दोग-चौगांनी मेळून म्हाका मडें कशें उबारून गाडयेंत घालें आनी मडगांवां व्हेलें. दोतोर केरकारान म्हाका तपासतकूच बाबड्या भाऊक आनी औदुंबराक तापोवन काडले. आनीक पांच मिनटां वेळ केल्लो जाल्यार हाताक मेळची नाशिल्ली ती! इतलो उशीर कित्याक केलो?... फुडलीं दुख्खां सोंसपा खातीर देवान म्हाका जितें दवरिल्लें.

भुरगेपणांत आवय, मागीर बापूय, मागीर पोटचो चलो, आनी आतां निकतीच धरिल्ली कोंबरी तुटून पडपाचें दुख्ख उणें म्हणून आनीक पदरांत दान दिवपा खातीर म्हाका जितें दवरिल्लें. दोन दीस रगत व्हांवन वचून लेगीत हांव खणखणीत बरें जालें.

मडगांवां आईन आनी मामीन म्हाका म्हयनोभर आपलेकडें दवरलें. नाशण्या सत्व, दूद, भाज्यो बी घालून म्हजे कुडीक ताणीं थाकाय हाडली. ह्या घरांत मेळिल्लें सूख आनी आनंद हांव सदांच स्मरतां. आमकां देवळा फाटोफाट विश्रांती स्थान म्हळ्यार बाबालें हें घर आशिल्लें.

'आडतिसाव्या वर्सा पर्थून भुरगें जाय आशिल्लें जाल्यार पयलीं दोतोराकडेन तपासून घेवंक जाय आशिल्लें' अशीं उतरां कानार पडलीं. आपलेंच नशीब फट म्हणून हांव मूग गिळून ओगी रावलें. आज तो आशिल्लो जाल्यार औदुंबराल्या व्हडल्या चल्या बरोबरचो आसपाचो. पळोवंक नाशिल्ल्या, जल्माक लेगीत येवंक नाशिल्ल्या म्हज्या गर्भाची म्हाका कितलो तेंप हुंमसून हुंमसून याद येताली.

खंयच्याय दुख्खा परस आपल्या भुरग्याचें दुख्ख सगल्यांत चड हालोवन सोडटा. काळजाक पीळ पडून पोटांतल्यान पोकळी निर्माण करीत ताचे यादी सरशीं ओठांतल्यान दुख्खाचे कड भायर सरतात. कोणाकूच हें दुख्ख सोंसचें पडचें न्ही रे बाबा! स्वताक कितेंय जाल्यार जाता, पूण आपल्या भुरग्याक न्ही.

इतल्या सगळ्या बोवाळांत बिटूची पोटली मडगांवां दवरून हांवें खूब व्हडली चूक केली. बिटूचो सभाव ल्हानपणा पासून खूब भावनाप्रधान. इल्लेंशें कितेंय ताच्या मनाक रोखडेंच लागतालें. ताच्या शिक्षणांतूय फरक पडिल्लो. पयली ते चवथी पुराय मराठी आनी पांचवेक एकदम सगले विशय इंग्लिशींत जाल्ल्यान ताका शिकप खूब कठीण वतालें. तातूंत आश्रीत कशें राविल्ले भशेन जावपाक लागलें. निमणें सोंसूं नजो जावन, 'हांव हांगा रावचें ना माई' म्हणून म्हाका घट वेंग मारली. तेदेवेळार हांवें केल्ले चुकीचो म्हाका खूब पश्चाताप जालो. आमी रोखडेंच ताका म्हयन्या भितर होली स्पिरिटांतलें ताचें नांव काडून आल्मेद स्कुलांत घालें. आतां भाऊचे मजतीन इंग्लीश शिकून तें सगल्या विशयांत थीर जावपाक लागलें.

दिना नांवाचो एक भुरगो भाऊन आपल्याक मजत करपाक आपल्या दुकानाचेर दवरिल्लो. सुरवातीक आमचें दुकान बरें चललें. भाऊक फुरसत मेळनाशिल्ली. रात–दीस कश्ट करचे पडटाले. हातशिलाईचें सगलें काम हांव करतालें. त्यावेळार पॅण्टींचें बिडींग लेगीत हातांनी करचें पडटालें. भरपूर गिरायक आशिल्ल्यान भाऊय खुशाल जालो. मदींच एक फावट दिनाली तकली घुंवली. दार बंद करून कात्री घेवन तो भाऊकूच मारपाक धांवलो. त्या प्रकरणा उपरांत ताका कामावेल्यान काडूनच उडोवंचो पडलो.

श्यामान आपले वटेन जनरल स्टोअर्स सुरु केलें. अशीं थोडीं वर्सां सरलीं. कांय तेंपान रेडीमेड कपड्यांचो जमानो आयलो आनी भाऊच्या धंद्याक जबर मार बसलो. अकस्मात गिरायक उणें जाल्ल्यान भाऊ काचाबूल जालो. मागीर ताणेंय कपडे शिंवून दवरपाक सुरुवात केली. पूण चकचकीत  रेडीमेड कपड्यां मुखार आमचे कपडे फाटीं पडटाले.

भाऊक प्रेसांवाचो त्रास सुरु जालो. ताच्यान चड काम जायनाशिल्लें. म्हणून ताणें केरोसीन विकपाक सुरुवात केली.

पेत्रोलाचीं भरिल्लीं बल्लां विकपाक उबीं करतकूच भाऊन कायद्या प्रमाण सगल्या लायनींत राविल्ल्या लोकांक तें पेत्रोल इल्लें इल्लें पावोवप. उबोच रावन मागीर ताच्या कमरांत भरून येवप. मागीर पेत्रोलाचें कंत्राट श्यामान घेतलें. तो पटापट लोकांक पेत्रोल दिवन सोडटालो आनी आपलो पयसो उबो करतालो.

तशेय परिस्थितींत आमचीं नाटकां पळोवपाचीं, संगीत समारंभाक वचपाची उमेद उणी जावंक नाशिल्ली. बिटूक तर नाटकांचें पिशेंच लागिल्लें. शाळेंतल्यान येतनाच वाटेर पाटी पळोवन तें भाऊचे फाटीक लागतालें. तेदेवेळार रातच्या धा वरांचेर नाटकां सुरु जातालीं. बिटू णवांक मांडार वचून भाऊक कामांतल्यान ओडून हाडटालें. 'अखेरचा सवाल, बॅरीस्टर, बेईमान, हमीदाबाईची कोठी, पुरुष, कट्यार काळजात घुसली' अशीं एका फुडलीं एक नाटकां आमी फोणेच्या चुडटांच्या हनुमान नाट्यगृहांत पळयल्यांत. तशेंच बिटूक घेवन कवळ्यां सम्राट क्लबाचें संगीत संम्मेलन केन्नाच चुकयलें ना. भिमसेन जोशी, शोभा गुर्टू, राजन–साजन मिश्रा, हरीप्रसाद चौरसीया, शिवकुमार शर्मा, झाकीर हुसेन अश्या सगल्या दिग्गजांचें दर्शन आमी हांगा घेतलें. फोणेच्यान थंय वचपाक तेदेवेळार खूब त्रास जातालें. एक फावट ट्रकार बसून लेगीत गेल्ल्याची म्हाका याद जाता!

थोड्या तेंपान काकीबायच्या आंगार कोड फुटूंक लागलें. ताचेर उपचार करूंक तिका पणजे वचचें पडटालें. हेमंत तेन्ना म्हगेर जेवपाक रावतालो. ताचो काकीबायक त्रास जावंक लागलो. पयलींच तिची मनस्थिती बरी नाशिल्ल्यान ल्हानश्या कारणावेल्यान भाऊचें आनी तिचें पेटलें. श्यामूय वेळार मांडार वचनाशिल्ल्यान भाऊक आपलें शिवपाचें काम आनी पेत्रोल दोनूय पळोवंचें पडटालें. ताच्यान सोंसू नजो जावन तो मागीर अण्णाक जाप विचारपाक वतालो. अशें ल्हान ल्हान खिळ्यांनी देऊळ मोडत गेलें. आनी दोनूय मांडांची दोनकडेन वाटणी जाली. एके रातयान पार्टीशन करून मांडाचे दोन वांटे जाले.

म्हजे जिणेचें पुराय न्हेंसण सुख–दुख्खाच्या निर्यांनी घुस्पून गेलां. सुखापरस दुख्खाच्योच निर्यो मात्श्यो चडूच पडल्यात. पूण ताका उपाय ना. जश्यो मांडल्यात तश्यो त्यो खोंवच्योच पडटल्यो.

म्हजो आनी भाऊचो संवसार मांडाचे मिळकतीचेर रुखुट्कू चलतालो. मनाची पूर्वतयारी करूनच भाऊन आपली सरकारी नोकरी सोडिल्ली. पयलीं भरपूर काम मेळत गेल्ल्यान भाऊ खुशाल जातालो. पूण मागीर रेडीमेड कपड्यांनी बाजार काबीज केल्ल्यान भाऊची मजबूत शिलाई कशीबशी टक्कर दिताली.

भाऊलें पेन्शनूय सुरु जालें. प्रोविडंट फंडाचे पंदरा–सोळा हजार, आमच्या जाग्याचे पयशेय हाताकडेन आयले. तेन्नाच शिंक्र्यालें भाट विकून पयशे मेळिल्ले. आमच्या वांट्याक पंदरा हजार आयिल्ले. देव आमकां सदांच अडचणीच्या वेळार पावला तो असो. अण्णान म्हाका म्हज्या दोनूय चलयांक भांगर करून दवरपाचो सल्लो दिलो. बेबी आनी बिटू भितर आठ वर्सांचें अंतर. तरीकूय दोगांकूय पाटली आनी कांकणां करून आमी दवरलीं.

भाऊच्या मांडार एक आयदनकार येतालो. तेन्ना आतां भशेन सगल्याक आयदनां दिश्टी पडनाशिल्लीं. हांवें त्या आयदनकारा कडल्यान थोडीं थोडीं करून लग्नाक दिवपा सारकीं आयदनांय एकठांय करून दवरलीं. तो आयदनकार मामा म्हजेर खूश जातालो.. त्यावेळार ताणें पितुळचो एक खलबतो फ्रि दिल्लो. घरा बशिल्लेकडेन देव म्हाका सगलीं कामां करपाक आदार करतालो. तो काळूच असो आशिल्लो की त्यावेळार धुवेचें लग्न म्हळ्यार काळजार एक पेंच असो दिसतालो.

रीण काडप म्हळ्यारूय कठीण काम आशिल्लें. जाता तितलें रीण काडी नासतना खर्च भागोवपा कडेन कल आशिल्ल्यान कासवाचे चालीन हळुहळू लागीं करप जातालें.

करतां करतां बेबी बी. ए. जालें. ल्हानश्या बेबीचें सुंदर, आकर्शक तरनाटे चलयेंत रुपांतर जाल्लें. ताच्या लग्नाची चिंता हांवें सुरु करचे पयलींच म्हजो देव पर्थून एक फावट पावलो. फोणेच्या नगरपालिका वाचनालयांत बेबी बिटूबरोबर नेमान वतालें. थंयच गणाधीश तळावलीकार ह्या भुरग्यान ताका पळयलें. दोगांचीय थोडीशी वळख जाली. गणाधीशान मांडार येवन भाऊक मेळून स्वताच आपली वळख करून दिली. आनी आपली सविस्तर म्हायती दिली. आपली बेबीकडेन लग्न जावपाची इत्सा परगटायली. इतलो बरो भुरगो स्वता जावन चलत आयिल्लो पळोवन आमी दोगांनीय देवाचे मनापासून उपकार मानले. गणाधीश खूब देखणो, समंजस आनी शांत सभावाचो आशिल्लो. मडगांवचे महाराष्ट्र बँकेंत तो काम करतालो. तळावले ताच्या व्हडल्या घराकडेन ताचीं भाव-भयणां आनी बापूय आशिल्लो. आवय भुरगेपणांतूच सोडून गेल्ली. बेबी आनी तो दोगांय खूश आशिल्लीं. तो आमगेर येवपाक वचपाक लागलो. अशेच पाच-स म्हयन्यांनी १५ मे १९७८त बेबीचें लग्न थारायलें.

बेबीच्या मांवान चलयेक गोंठ घालचे अशी आमकां सुचोवणी केली. त्यावेळार म्हजी भियेवन गुळी जाली. तेन्ना म्हजीं पयलींचीं कांकणां आनी हेवेटेन तेवटेनचें मेळून बेबीक गोंठ केले. घरांतूच माटोव घालून ताचें लग्न थाटांत जालें. आंगणांत मर्दी न्हवरो–व्हंकलेन माळ घाली. सगळो लोक खोशी जालो.

बेबीच्या लग्नाक सांगपाक आमी दोगांय माशेलांत आनी कुंकळये वचून घरा पावलीं. केन्नाच पुरो जालें अशें ना म्हणपी भाऊन, 'आवयस आतांच म्हज्यान जायना. बिटूल्या लग्नाक म्हजें कशें जातलें?' अशे उद्गार काडले. ताणें अशें म्हणिनाफुडें म्हाका चर्र जालें. 'अशें कित्याक म्हणटा?' अशें हांवें ताका म्हळ्ळें लेगीत.

लग्न जातकूच थोड्या तेंपान, भाऊ हारशाकडेन उबो रावन खाड काडटालो. तेन्ना ताकाच आपल्या गळ्याचे खोबणेंत गांठी अशो दिश्टी पडल्यो. त्यो ताका मात्श्यो दुखल्योय बी. 'हें कितें जालां म्हाका गांठी गांठी शो?' अशें ताणें म्हणिना फुडें हांवें म्हर्‍यांत वचून त्यो पळयल्यो. पळयल्यार बर्‍योच मोट्यो हाताक लागपा सारक्यो गांठी पळोवन म्हज्या मनांत पाल चुकचुकली! बेगीबेगीन कोणाक कांयच कळयनासतना आमी दोगांय पणजे वचून दोतोराक मेळ्ळीं. ताणें बायोप्सी करपाक दीस थारायलो. मागीर मात नणंदेगेर–कमलागेर वचून ती बायोप्सी केली. तातूंत त्यो गांठी टी. बी. ग्लॅन्ड्स आशिल्ल्याचें कळ्ळें. मागीर पुराय एक वर्स भाऊक ट्रीटमेंट घेवची पडली. दोन–तीन म्हयन्यांनी वचून रगत तपासप जातालें. पूण फुडें मात ते पिडेचो त्रास जालो ना.

भाऊक गव्हांचें सत्व, कोंबायल्ले मूग, हाडांचो सूप अशें दोतोर सांगता तसो खुराक दिवपाक सुरुवात केली. थोड्या दिसांनी, भाऊन मोरारजींभशेन





शिवांभूचे प्रयोगूय केले. सगलेकडेन हांव म्हज्यान जाता तितलें ताका साथ दितालें. पूण खंय कितें चुकतालें काय कितें कोण जाणा...!

म्हाका म्हयन्याचे खूब त्रास जाताले. तपासपा खातीर हांव, भाऊ आनी बिटू तिगांय घटप्रभा गेलीं. तपासून पळ्यनाफुडें म्हाका गर्भाशय रोखडोच काडून उडोवंचो पडटलो अशें थंयच्यो दोतोर गोखले हांणी सांगलें. कसलीच सारकी तयारी नाशिल्ली. आदार आशिल्लो बिटूचोच. अशे परिस्थितींत घटप्रभा ओपरेशन करपाचें थारायलें. बिटून आपल्याक येता तशी म्हाका मदत केली. चार दीस थंय काडून मागीर रेल्वेंत दोनूय सीटांच्या मदीं मेळिल्ले जागेंत न्हिदून हांव गोंयांत आयलें. योग्य वेळार गर्भाशय काडून उडयिल्ल्यान अनर्थ टळ्ळो म्हणपाचो!

लग्ना नंतर दोनेक म्हयन्यांनी बेबीक दीस गेले. ताचीं फुलां, बाळंटेर अशा फुलार दिसांनी वर्सां पाखां लावन उडून गेलीं. बिटू धावेंत आशिल्लें. तेदेवेळार आयचे भशेन धावी–बारावीच्या परिक्षांचो बागुलबुवा नाशिल्लो. बिटू धावेंत आसतनाच ताका शाळेंतल्या एका शिक्षकान कला अकादमीच्या नाट्यस्पर्धेंतल्या 'कळी एकदा फुलली होती' ह्या नाटकांत काम करपाक सांगलें. बरी संद मेळ्ळी म्हणून आमीय करपाक दिलें. गोंयांत ते स्पर्धेंत त्या नाटकाक दुसरें बक्षीस फावो जालें आनी बिटूक मुंबय रविंद्र नाट्यमंदिराचे रंगमाचयेर पावल दवरपाची संद मेळ्ळी.

बिटूची धाव्वी जातकूच, त्या दिसांनी सगलीं बी. कॉम जातालीं म्हणून ताका कॉमर्साक घालें. फोंडेच्यान मडगांवच्या दामोदर कॉलेजींत तें यो–वच करतालें. अशींच चार वर्सां गेलीं. बिटू आनी वैकुंठभाऊलें सीमा दोगांय मडगांव वचून येतालीं. तेदेवेळार बोरयेपूल मोडिल्लो. तांकां बस बदलून पुलावयल्यान चलून वचचें पडटालें. सांजे येतकूच बिटून टायपींग

क्लासाक वचपाक सुरू केलें. गोकुळदास तळावलीकराल्या टायपींग इन्स्टीट्यूटांत तें वतालें.

एक दीस बिटू टायपींगची परिक्षा दिवपाक मडगांवां गेल्लें. थंयच ओसोळणेच्यान नारायणबाब तिंबलो आपल्या टायपींग इन्स्टीट्युटांतल्या भुरग्यांक घेवन आयिल्ले. ते गोकुळदासाले बरे मित्र. तांणी थंय बिटूक पळयलें आनी गोकुळदासाकडेन आपल्या पुता खातीर चवकशी केली.

येदेबेगीन बिटूचें लग्न करपाचें आमी चिंतुंकूच नाशिल्लें. पूण ताच्या आयुश्यांत लग्नाचो योग बेगीनूच आशिल्लो आसूं येता! म्हजे नणंदेन आनी ताच्या घोवान बिटूक आपली सून करपाचें मनांत घेतिल्लें. आमचीं आनी तांचीं तशीं सादारण उलोवणीं जातालीं. बिटूच्या कानारूय ही गजाल नक्कीच पडिल्ली. ताच्या कंवळ्या वयांत तेदेवेळार कितें विचार येताले कोण जाणां!

पूण नणंदेच्या चल्यान आपूण आपले मामेभयणीकडेन लग्न जावंचो ना हें स्पश्ट केलें, तशेंच आपलें लग्न आपणें थारायिल्ल्याचेंय सांगलें. त्याच वेळार ओसोळणेच्या तिंबल्याकडल्यान बिटूक मागणी आयली. तांचो चलो प्रभाकर मडगांवां दामोदर कॉमर्स कोलेजींत शिकयतालो. बिटूनूय ताका पळयल्लो. सामको हुशार आनी पेजादीक व्यक्तिमत्वाचो सर म्हणून तें ताका वळखतालें. हांवें जेन्ना बिटूक प्रभाकराविशीं सांगतकूच ताचो पयलोच प्रस्न म्हळ्यार, 'म्हणजे कितें? तिंबले सरांचें अजून लग्न जावंक ना तर?' तें ओगीच आशिल्लें. एकंदर ताची हुशारी आनी व्यक्तिमत्वान तें भारावन गेल्लेवरी दिसतालें खरें.

कांय तेंपान भाऊ, भाओजी, आनी गोकुळदास तळावलीकार असोळ्ण्या तिंबल्यागेर वचून आयले. चल्यानूय बिटूक कॉमर्स कॉलेजींत पळोवन आपल्याक चली पसंद आशिल्ल्याचें बापायक सांगलें. बिटूची पत्रिकाय

आमी करून घेतली आनी तांकां धाडली. पत्रिका पळोवन तीस गूण पटतात अशें तांणीं सांगलें. हांवें आनी भाऊन मात प्रभाकराक सोमतोच रजीस्ट्रेशनच्या दिसाकूच पळयलो. बिटूच्या हयकाराचेरूच आमी पावल फुडें घालपाचें धाडस केल्लें. ताचो हयकारूच आमचे खातीर सगल्यांत चड म्हत्वाचो आशिल्लो. बिटू आनी प्रभाकरूय रजिस्ट्रेशनावेळारूच एकमेकाकडेन पयलेच फावट उलयलीं! प्रभाकरान आपल्या सभावांतल्या मेकळेपणान घरांतल्या सगल्यांक पयलेच भेटयेंत आपलेशें करून घेतलें, हातूंत दुबाव ना. इतल्या दिसांचे चिंतेचें सांवट ताका पळयतनाच पयस गेलें. ह्या म्हज्या जांवयान आयुश्यांत केन्नाच आमकां चिंतेंत घालें ना. सगल्यो चिंता, कटकटी, हजार तरांच्या कामांक एकलोच टक्कर दीत रावलो. तल्लख बुद्धिमत्ता, शिटूकसाण आनी प्रभावी व्यक्तीमत्व ही ताची जमेची बाजू पळोवन आमी निश्चिंतपणान बिटूचें लग्न लावन दिलें.

बिटूची नणंद तेदेवेळार दोतोरकी शिकताली. आनी धाकलो भाव फार्मागुडयेर इंजीनीयरींग शिकतालो. टायपींग इन्स्टीट्यूटाभायर नारायणबाब स्वत: शाळेंत शिकयताले. कांय दिसांनीच बिटू घोवाघरा पुरायपणान भरसून गेलें. हांव आनी भाऊ आमचे व्हडले नातीची अपुरबाय करपांत मग्न जालीं. ताका दिसभर तळावलेच्यान फोंड्यां हाडून खेळोवप. ताणेंय मस्त बरें खेळप आनी रात जातकूच आवयची याद काडून रडप. मागीर ढब–ढब करून व्हाळावयलो म्हातारो आयलो असो आवाज करतकूच भियेवन प्राजक्तान ओग्गी न्हिदप. त्यावेळार घराघरांनी गाडयो नासताल्यो. मातादोर टेम्पो ह्यो सीटी बसी. तातुंतल्यान हांव ताका सहज तळावले हाड–व्हर करतालें. आतां गाडये बगर प्रवासाचो विचार लेगीत मनांत येना. शरीर थकलां. पूण मनांत मात उमेद तितलीच आसा. कांकणभर लेगीत उणीं जावंक ना. खंयच्याय खिणांक 'माई, लाडू

करूया मगो? माई, पुन्नपोळयांची तयारी करूं मगो?' म्हळ्यार पुरो, हातांतलें पुस्तक कुशीक सारून हांव रोकडेंच उबें रावतालें. हे उमेदीनूच पुराय आयुश्यांत साथ दिल्ल्यान हांवें अजून सुद्धा तग धरल्या. मनाची उबारी आसत जाल्यार ती थकिल्ल्या आनी कमकुवत शरिराचेर मात करूंक शकता हेंच खरें!

सुंदर, मुदयाळ्या केंसांचें आनी घारश्या दोळ्यांचें प्राजक्ता आतां अडेच वर्सांचें जालें. ताच्या वाडदिसाक हांव घटप्रभा उरिल्लें. हांव येनाफुडें धाकटुल्या प्राजक्तान म्हाका आपले इल्लेइल्ले हात नाचयत आनी हावभाव करीत आपणें कश्यो मेणवाती फुऽऽ करून पालयल्यो आनी कसो केक कापलो तें सांगलें. खूब अपुर्बायेची मूर्त आशिल्ली ती!

प्राजक्ता फाटल्यान अडेच वर्सांनी बेबीक चलो जालो. कुरळ्या केंसांचो, उंडो कश्या तोंडाचो बंटू मोठो चुणचुणीत आशिल्लो. दामोदर अशें ताच्या आज्याचें नांव ताका पडलें. हांवें मात म्हजें अशें नांव दीपक दवरलें. आपल्या बापायफाटल्यान तळावलेच्या दोंगरार मस्त बरो भोंवप, क्रिकेट खेळप असो सगल्यांक जाय जाय सो बंटू आशिल्लो. तो खूब ल्हान आसतना एक फावट प्राजक्ताक प्रखर डायरिया जालो. हिसपा भायर हाग-ओक सुरु जाली. रगत पडपाक लागलें. ताका घेवन हांव आनी म्हजो जांवय काकोडकाराल्या हॉस्पिटलांत १०-१२ दीस उरलीं. भावोजीन जिवाच्या आकांतान ताका सांबाळ्ळें. 'भियेंव नाका' असो हांवें ताका धीर दिवंचो. ह्या आजारपणांत गुटगुटीत पोटली कशें आशिल्लें प्राजक्ता सामकें बावून कृश जालें.

बिटूक दीस गेल्ले. तशेच गडबडींत ताची पांचव्या म्हयन्याची वेळ केली. बेबी असोळण्यां गेलें आनी बिटूक असोळणेच्या चौकेच्या घरांत

सातव्या म्हयन्याचीं फुलां माळ्ळीं. आतां ताका फोंड्यां हाडून णवव्या म्हयन्याचीं फुलां माळपाचीं आशिल्लीं.

आमचो धाकलो जांवय प्रभाकर एल.एल.एम. करतालो. म्हाका तातूंतलें कांयच कळनाशिल्लें पूण म्हज्या बाळाभशेन तो एल.एल. एम. जातलो हें कळटकूच खूब आनंद जालो. आपलो नवो संवसार आसतना लेगीत सगळें वेवस्थीत सांबाळून हे परीक्षेंत निमण्या वर्साक युनिव्हर्सिटींत पयलो येवपाचो मान ताणें मेळयिल्लो. म्हज्या हातांतल्या वर्तमानपत्रांत ताचो फोटो आनी पयलो आयिल्ल्याची बातमी हांवें वाचली आनी ती भाऊक दाखोवपाक लागलें. पूण हरशीं फुलून येवपी भाऊ तकलेक हात लावन 'कितेंशेंच जाता गो म्हाका.' अशें म्हणत खाटीर वचून बसलो. ताच्या आंगाक हात लायत जाल्यार बरोच जोर लागलो. ताका न्हिदोवन दवरून वैकुंठाल्या सीमाक घेवन दोतोराक आपोवन हाडलो. भाऊक घसघशीत हुमूय आयिल्ली. इतल्यांत मडगांवच्यान आई भितर सरली. ती अण्णाल्या नव्या घराच्या घरप्रवेशाक वचपाक आयिल्ली. 'तूंय यो रे फाल्यां. पयलींचें कांय घेवन बसूं नाका.' तिणें म्हळ्ळें. 'कसो येवं? हांव पळय कसो जालां तो.' भाऊन आपले हात-पांय पसरावन तिका सांगलें. दुसऱ्या दिसा भाऊक तपासपाक दोन-तीन दोतोर घरा आयले. भाऊ म्हजेकडेन कितेंतरी असंबद्ध उलोवपाक लागिल्लो. सारवासारव करीत उलयल्याभशेन म्हाका तें दिसलें. मनांत पाल शी चुकचुकली. कितें जालां काय?

ताचे मागीर सगले हाल सुरु जाले. जोर आयिल्लो तो देंवलोच ना. अकस्मात ताका हेंऽऽ ओकूंक आयलें आनी ताची शुध्द गेली. मागीर ताका दोतोर काकोडकाराल्या हॉस्पीटलांत ॲडमीट केलो.

शांतपणान न्हिंदिल्ले भशेन भाऊ हॉस्पिटलांत आशिल्लो. सगलो लोक वखदां हाडपाक, वेगवेगळे तपासणेचे रिपोर्ट हाडपाक धांवपळ

करताले. ते ताका कितेंच समज नाशिल्लें. दोतोरान सांगलें की, 'तो एकवेळ कोमांतल्यान भायर येवपाक शकता, एकवेळ येवपाक शकना.'

भाऊची मेंदवाची शीर तुटून ताका ब्रेनस्ट्रोक आयिल्लो. थंय तीन–चार दीस भाऊक जाग येवपाची वाट पळयली. निमाणे शेवटचो उपाय म्हणून ताका मेडीकल कॉलेजींत व्हेलो. तेन्ना तें हॉस्पिटल मार्केटाक तेंकून आशिल्लें. थंय आठ दीस मेरेन हांव त्या जीवंत प्रेता वांगडा रावलें. ताच्यो सगले तरेच्यो तपासण्यो जातना पळयल्यो. अशे स्थितींत आनी कितलो तेंप–? आंगार कांटो येतालो. मनाचे स्थितीचें म्हाका अजाप दिसूंक लागलें. पयले दोन–तीन दीस तो शुद्धीर येतलो ही आस. मागीर तातूंत खरेपण ना हाचो अर्थ लागलो. आनी मागीर ताची अशी स्थिती पळोवचे परस तो.. हय, खरेंच आमकां जिवा परस चड जाय आशिल्लो. आमचो मनीस तो! बरे भशेन आशिल्लो जाय आसता आमकां. कसोय आसूं पूण जितो आसूं अशें म्हणपाचें धाडस मात म्हजेकडें ना. म्हजो म्हजे स्वताचेरुच विस्वास नाशिल्लो. जायत म्हजे कडेन अशें आयुश्यभर मडें कशें जावन राविल्ल्या मनशाक पळोवप? ना ना तें कशेंच शक्य ना. अशे विचार म्हज्या मनांत येवपाक लागले आनी कोण जाणां सदांभशेनूच तें ताका आतांय कळ्ळें. कशेभशे आठदीस ताणें मेडीकल कॉलेजींत काडले. मागीर स्वास सोडलो तो कायमचो. १३ सप्टेंबर १९८५ हो तो काळकिट्ट दीस. तेत्तीस वर्सांचो सांगात सोंपलो, म्हाका येदें व्हडलें आयुश्य एकल्यान काडपाची शिक्षा दिवन तो फाट पर्थून गेलो.

ल्हवू–ल्हवू मनाची तयारी जाल्लीच. तरीकूय निम्माणी आस सोडून गेली आनी सगलेंच किण्ण जालें. एक विचित्रसो सुन्नपणा तकलेंत भरून आयलो. मन आनी शरीर खूब शीणून गेल्लें. आदाराची गरज आशिल्ली. बेबी, बिट्टू, गणाधीश, प्रभाकर, पुतणे, भाचे, मावसभाव, देर, सोयरे,

शेजारी सगळे धावन आयले. फोणेचें घर सगलें भरलें. म्हजे तकलेंत सिनेमाचे फीतीभशेन सगलें पर्थून पर्थून घोळूंक लागिल्लें. भुतकाळ आनी वर्तमानकाळ एकांत एक मिसळून म्हज्या मनांत घुंवत रावतालो. दोळे धांपून पडल्यार तींच चित्रां दोळ्यां मुखार येत रावतालीं. तातुंतल्यान सुटपाची इत्सा आसून लेगीत सुटका जायनाशिल्ली. भाऊक उबारलें तेन्ना मात सोसूं नजो जावन 'गुरुदास' असो ताका निमाणचो उलो मारलो. तो खंय ताचे म्हऱ्यांत पावतलो आशिल्लो? तो केन्नाच परतेच्या वाटेक लागिल्लो.

एकूण पंचावन वर्सांचें हांव. पुराय जीण कशी काडप काय हांवें? धुवो लग्न करून तांच्या घरांनी रुळल्यात. म्हज्या पदरांत शिक्षणूय ना. आसा तो चार गांवचो अणभव गांठीक, सोसपाची म्हान शक्त, आनी पुस्तकांनी दिल्लें शाणपण. हे शिदोरीचेर फुडली वाट चलपाची.

बारा दीस रावचें पडटलें म्हूण ते राती कोण म्हज्या म्हऱ्यांत रावलीं नात. ह्या असल्या शास्त्रांची प्रभाकराक खूब तिडक मारता.. दीस जातकूच म्हजी नणंद प्रेमा म्हाका आपल्यागेर व्हरपाक आयली. बोकडबागांत ताच्या घरांत आमी पोटभर खबरो मारीत दीस काडले. थोडे दीस बेबीन व्हेलें. फोण्यां घरांत तसो घरभर लोक आशिल्लो. म्हजी बापोल मांय मावशीबाय आनी तिची धूव दुर्गा गोंयांत रावतालीं. हांवें पर्थून एक फावट पदर बांदलो आनी कामांक लागलें. एकल्या खातीर इल्लेंशें कितेंय केल्यार दोनूय वेळ पुरून उरतालें. आतां सारको तेदेवेळार समाज सामको एकमुळो जावंक नाशिल्लो. मातशी तकली वयर काडून एकामेकांक पळयतालो. घरचीं मनशां म्हाका लागता तें हाडून दितालीं. समीर–संतोष दूद–भाजी हाडून दिताले. नित्याचो पेपर वाचूंक मेळटालो. म्हाका आनी कितें जाय? बेबी लागींच तळावले रावतालें. येतना बेठ्या हातान येनाशिल्लें. ताचीं

प्राजक्ता–बंटू म्हाका जीव करतालीं. फोण्यां खेळपाक भुरगींय आशिल्लीं. तांचेसरीं खेळूंक तीं केन्नाय रावतालीं. पाच आनी दोन वर्सांचीं हीं म्हजीं नातरां म्हाका म्हजें दुख्ख विसरूंक सोपें करतालीं.

जनार्दन शिंक्रो जाका सगलींच पपा म्हणटालीं, तो म्हजो मावशेभाव म्हजे म्हऱ्यांत येवन म्हाका धीर दितालो. 'वाच, विचार करीत रावूं नाका' म्हूण सांगतालो. खूब फावट बायलेकडल्यान हातभर विस्वणाचें पोस्त तळून धाडटालो. गळो भरून येवन म्हज्यान तें खावंक लेगीत जायनाशिल्लें. अशें सगल्यांच्या मोगाच्या पावसान हांव न्हातालें. अशेच दीस सरले. बिटूक बाळंटेराक हाडूंक जाय आशिल्लें. ताका दोतोर सावयकाराक दाखयल्लें.

प्रभाकरान म्हाका पुण्याच्यान एक ॲक्युप्रेशरचें पुस्तक हाडून म्हज्या हातार दवरलें. 'आपलें आरोग्य आपल्या हातांत.' हें पुस्तक म्हज्या हातांत पडनाफुडें हांवें ते अक्षरश: पानान पान शिकून घेतलें. परत–परत वाचून ताचीं पारायणां केलीं. तातुंतले पॉयंट्स, तळहात आनी पावलां वयले पॉयंट्स म्हाका तोंडपाठ जाले. कसल्याय बारीक सारीक दुयेंसाक खंयचो पॉयंट तो म्हाका पुस्तकांत पळय नासतना सांगूंक येवपाक लागलो. बिटूच्या बाळंतपणा वेळार म्हाका ह्या ॲक्युप्रेशरान सामकेंपिशें लायिल्लें. फणी, पेन्सील आनी लाटणी घेवन हांव हॉस्पिटलांत गेलें. ताका वेण येतना हांवें ताका पॉयंट तोपपाचें काम चालूच दवरलें. बिटू सांगता की, ताका लागून ताचो बाळंटेर खूब सोपो जालो. तें म्हणटा की ताची म्हयन्याची पाळी लेगीत खूब त्रासदायक आशिल्ली. पूण बाळंतपण सट्ट करून जालें. हो सगलो ॲक्युप्रेशराच्या उपायांचो परिणाम. असल्या आनी वाचनाच्या नादाक लागून हांव तरून उरलें, नाजाल्यार एकेक दुखाच्या प्रलयांत हांव केन्नाऽ व्हांवन वतलें आशिल्लें! सगलें सोपून





काबार जाल्यार लेगीत तातुंतल्यान वाट काडपाक म्हाका म्हज्या पुस्तकांनी शिकयलें. कितें चूक, कितें बरोबर हाचेर निर्णय घेवपाक म्हाका ताणीं विचार दिले, एक मित्र म्हणून, एक वांगडी म्हणून. दुखांत आसतना आपले परस चड दुखी कोण आसा तांची याद दवरची. आपली वाट सोदूंक बळ मेळटा, हें हांव शिकलें. म्हाका जीं चार उतरां म्हज्या गुरुजीन शिकयलीं ताचें हांव सदांच उपकार मानतां. देवान तेंवूय म्हाका दिल्लें नाशिल्लें जाल्यार हांव सामकें गोरूं कशें उरपाचें! अक्षर ओळख ही मनशाच्या आयुश्यांत कितली गरजेची हें म्हजे वयल्यानूच म्हाका कळ्ळें.

बिटूगेर बाय जालें. धवेंफुल्ल. पावडर लावनच जल्माक आयिल्ले भशेन. नर्सीन हाडून दाखयतकूच आवयस! जावपाचें. ताका घाल्लें त्या ट्रेंतल्यान ताचे हातपांय भायर पडटाले. तशेंच उखलून धरपाचें अशें ताचें बाळरुप पळोवन सगलीं खूश जालीं. म्हणून अपुर्बायेन ताचें नांव 'प्रसन्ना' दवरलें. बिटूल्या मांवान ताचे खातीर हें योग्य बरें नांव सोदून काडलें. नांवा भशेनूच आसा तें, पळयतल्याक प्रसन्न करून सोडपी.

नातरांक खेळयतना म्हजें मन सट करुन भूतकाळांत रमतालें. सामकें ४–५ वर्सांचें आसतना बेळगांवां घाल्ल्यो फुगड्यो याद जाताल्यो... भुरग्यांक नाचयत नाचयत हांव म्हणूंक लागतालें..

'नाच ग घुमा, नाचू मी कशी?'
या गावचा, त्या गावचा,
माळी नाही आला, वेणी नाही मला.
नाचू मी कशी?
नाच ग घुमा, नाचू मी कशी?
या गावचा त्या गावचा,

सोनार नाही आला, बांगडी नाही मला.
नाचू मी कशी?

मागीर घुमतां घुमतां आनीक उतरां फुट्टालीं..

आंबा पिकतो रस गळतो.
कोकणचा राजा झिंम्मा खेळतो
झिम पोरी झिम. कपाळाचं बिंब.
बिंब गेले फुटून पोरी आल्या नटून.
सर सर गोविंदा येतो, मजवरी गुलाल फेकितो
अमुच्या वेण्या घालाया, सोनियाच्या साखळ्या.
घडव घडव रे सोनारा,माणिक-मोत्यांच्या दुल्हारा.
दुल्हाराच्या दुडक्या, आम्ही दोघी मैत्रिणी लाडक्या.
लाड सांगू बापाला, पैसे मिळवू खावूला.

तांकां न्हिदयतना ओंठ पुटपुट्टाले,

बाळ चिमुकले खुदकन हसले
भाग्यवतीचे भाग्य उजळले,
कुणीतरी ग मला छेडीले
आणि लाजरे हळूच वदले,
मीही हसले, हसली आशा...
बाळ चिमुकले खुदकन हसले..

न्हिद रे बाळा चाफेकळ्या म्हजे मांड्येर,
न्हिद रे बाळा हट्ट सोडीना? बस रे हांडीर.
बाबा बरो, पणसा गरो, गोरो गे आंगान.
ताचे दोळे सान, रुंद कान, सुंदर गे रुपान.
बाबा गुणी मोतयां मणी, दिश्ट जाली रे.
ओवाळूं ताका मिठाकणी हट्ट सोडरे.
आग्गो निलू, हांगा यो गो, हाक्का न्हिदय गो ,
नाजाल्यार च्या चो मात्सो उजो पळय गो
कचेरींतल्यान येवचे जाल्यात तासाभरान,
हाचेर–ताचेर कांवेतले हागेल्या त्रासान

पुस्तकां फाटोफाट आपल्यो विवंचना विसरपाक ल्हान भुरग्यां सारकें दुसरें वखद ना. स्वताक विसरून आपुणूय ल्हान जावन हांव नातरांमदीं भुरगेंच जातालें.. प्रसन्ना जातकूच मात म्हाका प्रभाकरान एकलें फोंण्या रावंक दिलें ना. बिटू आनी प्रसन्ना बरोबरूच म्हजीय पोटली असोळण्या आयली. तांच्या संवसारांत असोळणेच्या चौके घरांत आमी सगलीं रावंक लागलीं. ल्हान भुरग्यां वांगडा दीस फुलपाख्यावरी वतात. खूब फावट फोण्यां परतुपाचो यत्न हांवें केलो. घर निवळ करून सात–आठ दीस जातात थंय आसात परत प्रभाकरान आनी बिटून येवन म्हाका आपल्यागेर व्हरचें, अशें जायत रावलें.

म्हजो भाव बाळ हाचो जीव म्हजे खातीर तुट्टालो. प्रसन्नाचो जल्म जातकूच कांय तेपान बाळान म्हाका मुंबयची विमान तिकेट धाडून दिली. तो आतां बेलापुर रावूंक गेल्लो. तो, ताची बायल कुकुल एका घरांत आनी लागींच ताचो पूत, सून आनी नात रावतालीं. प्रल्हाद, सुनिता आनी मिताली हांचे वांगडा चार दीस रावलें. तेन्ना म्हजे हे नातीन म्हाका खूब लळो लायलो. म्हाका बरीं म्होवीं पदां म्हणून दाखयलीं.

प्रल्हाद आनी बाळ हांचें दोगांयचेंय तेन्ना बायपास केल्लें. बाळ इल्लेंशें पथ्याचें जेवण जेवतालो. येद्या व्हडल्या बॉम्बे चेंबर्सच्या सेक्रेटरीच्या पदार आशिल्लो बाळ चिमटीभर जेवता तें पळोवन म्हाका अस्वस्थ जावचें. सतत काम, काम आनी काम करीत रावप हो बाळाचो सभाव. ताणें जेवणा-खाणाक केन्नाच म्हत्व दिलें ना. म्हजी भावज कुकुलाच्या जिवाक सामकें बरें नाशिल्लें. गोडेमुताचें दुवेंस ताच्या शरिराक सामकें हालोवन गेल्लें. तशेय स्थितींत ताणें म्हजे खातीर रांदतले कडल्यान केळ्यां हालवो, खीर बी करून घेवची. सगल्यांनी दाखयल्ल्या मोगान म्हज्या काळजाची दोड भरुन ओतताली.

मुंबयचे संवसार पळयतकूच जाणवलें की समाज खूब बदलत चल्ला. सगल्या समाजाक हुसक्यान सुकपाचे दीस आयल्यात. शिक्षणीक यश, वाडट्यो अपेक्षा, सर्त हाका लागून मानसीक ताण येता हें जाणवतालें. पयलीं भशेन समाधान, खोशी दिश्टी पडूंक कुस्तार जावंक लागलीशी. म्हजें भोवतणचें जग बदलतालें. म्हजें तोटकें शिक्षण, म्हाका ह्या समाजांत सुवात दित काय-? असो एक विचार चानये भशेन म्हज्या मनांत केन्नाय सुळ्ळ्कन येवन वचऽ.

१०-१५ दीस कुळारचें सुख अणभवून हांव गोंयां परतलें. बाळान विमानाची तिकेट म्हज्या हातांत दवरली. कांय पयशेय म्हज्या हातांत कोंबले. म्हाका ओगीच बाळ पयलेच खेपो मुंबय वचपाकभायर सरिल्लो ते दीस याद जाले. आज्जेन वचून ताचे खातीर पयशे मागून हाडिल्ले. दीस तेच उरनात. ते बदलतातूच. ते खातीर मनशान बदलूंक फावना. पयसो येता पयसो वता. उरता तें मनीसपण, मोग आनी समजीकाय. हें आमकां याद उरत??

बाळाल्या धाकल्या पुताक, मिलिंदाक गोंयची खूब ओड आशिल्ली. सुटी पडटकूच ताणें बॅग खांदार मारून गोंया उडी घेवची. म्हगेर फोण्यां

चार दीस रावन सगल्याक भोंवचें. कुकळयां पांडरंग कुकळ्कार म्हळ्यार म्हजो मावशेभाव, थंय ताणें काजीनी, झिलांनी भोंवचें. म्हज्या हातचें नुस्त्या जेवण ताका जिवाक जाय आशिल्लें. तिसऱ्यो, कुल्ल्यो, काळीउंदरं(काळुंदरां) हे ताचे आवडीचे प्राणी. असो आवडीन जेवतालो की पळयतलो पळयतूच उरचो. जणू वर्सभराची नुस्त्या रूच तो बोल्सांत कोंबून व्हरुंक सोदतालो. तोखेवन तोखेवन ताणें जेवचें आनी हांसून हांसून हांवें ताका वाडचें. हें आमचें सदचेंच.

कुकळे सगलो दोंगोर ताणें पालथो घालचो. थंयचे म्हुट्टे, पणस, आंबे, भिण्णां हांचो येतिश्ट घोस्त काडचो. खरो निसर्गप्रेमी असो हो मिलिंद. फुडें ताणें सिनेमांत काम करतना लेगीत आपली ही दोंगर दरयांनी भोंवपाची आवड वाडयली. तांचेर पुस्तकांय बरयलीं. ह्या सगल्याचें बाळकडू ताका गोंयांतूच मेळ्ळें. खरेंच, भुरगेंपण भुरग्याक मेळटाच अशें ना. जाका मेळटा तो फुडाराक फुलता. हालींसराक तें दुर्मीळ जालां. दिसभर असैमीक परिसरांत ल्हानाचे व्हड जावपी भुरग्यांक पळोवन खंयतरी कितेंतरी शेणटा हाची जाणीव जाता. पूण तें आपल्या हातांत ना. काळ हो बदलतलोच. ताका उपाय! हेंवूय पट्टा.

म्हणटा सर, प्रसन्ना दोन- अडेज वर्सांचें जाता थंय आसा, बिटूक परत दीस गेले. सोबीत अशा सलीलान जल्म घेतलो. सलील ल्हान पणासावन शांत, समजुतदार आनी गुणी भुरगो आशिल्लो. सगल्या नांतरांपरस तो चड वेळ म्हज्या बरोबर उरलो. ल्हानाचो व्हड तो म्हज्याच आंगा-खाद्यांर जालो. तेन्ना हांव दोन म्हयने सेगीत असोळण्या उरलें. म्हज्या माशेला फाटल्यान दुसरो हांवें पळयल्लो समृद्ध गांव, असोळणें. सुपुल्लो साळ न्हंयचे कुशींत थंडपणान पसरिल्लो. फडफडीत नुस्त्याच्या गांथनीचो आनी हळदुव्या रुचीक कोनयांचो. बिटूली मांय तेती कोनयांचे डांगर

करपाक आनी गांथनीचें नुस्तें उजरावपाक एक्स्पर्ट आशिल्ली. भुरगीं आनी आमी सगलीं ह्या चौकेच्या घरांत मोटे मजेंत रावतालीं. जागेचो प्रस्न आशिल्लो पूण कोणेंच केन्ना तो दाखोवन दिलो ना. बिटू वयान ल्हान आशिल्लें. दोगांय भुरग्यांचें करपांत ताका आमची खूब मजत जाताली. ह्या घरांत धाकटुली चौकी आशिल्ली. बिटून आनी प्रभाकरान हे चौकेर सोबीत कुंड्यानी सोबेचीं झाडां लायिल्लीं. आयिल्लो दरएकलो तांकां तोखेल्या शिवाय रावनाशिल्लो. ह्या घरांत तीस वर्सांनी लक्ष्मी पूजन जालें. सगल्यांनी उमेदीन तिचें स्वागत केलें. हांव चवथीक मात फोण्यां म्हज्या घरांत रावपाक वतालें. चौगांभितर पावतकच म्हज्या जिवाक बरें दिसतालें. चार-पांच वर्सां हांवें येवन-वचून काडल्यांत. तेन्ना हांव एकलें लेगीत बसीन यो-वच करतालें. फोण्यां घरांत कितें मोडलां तें सारकें करून घे, जनेलां करून घे अशें म्हजें चलतालें. कशेय परिस्थितींत तांतल्या तातूंत वेवस्थीत आनी टापटीपेन रावप हांवें केन्नाच सोडलें ना. कोणूय भितर सरल्यार म्हज्या घरांत हांव सदांच रावना अशें म्हणचो ना इतलें हांव म्हजो वाठार चकचकीत दवरतालें. चवथीक घरभर लोक येतालो तो म्हजेच वटेन शेंदरी सोडून फाट तेंकयतालो. म्हणून ओडीन हांव चवथीक वतालें. ते भायर, ताटभर पुरयां पीठ कालोवपाक, केळीबोंणां शिनपाक बी सगलीं म्हाकाच शिणटालीं. तांकां चुकोवन हांव कशें रावीन? चौगांच्या घरांत हांव म्हजो शेणिल्लो संवसार जोडपाचो यत्न करतालें. मनांतलें दुख्ख केन्नाच तोंडार येवंक दिलें ना. कोणाक आपल्यो काणयो सांगूंक गेलें ना. म्हऱ्यांत बशिल्ल्याची बरेभशेन खबर घेतली. भितर सरतल्याचें तोंड भरून स्वागत केलें. कोणाक केन्नाच च्या बेठो दिलो ना. टू मिनीट हुनहुनीत गोडसांनो सदांच चिक्रपीरे बराबर आसतालोच... अशींच चार वर्सां पासार जालीं.

धाकलो सलील वर्साचो जालो. प्रसन्नाक शाळेंत घालपाचे सगल्यांक वेध लागले. बिट्रूल्या मांवान तांकां सांगलें, आतां मडगांवां हाउसींग बोर्डांत रावन ताका मडगांवचे शाळेंत घालात. हें घर ताणीं १९७५त घेवन दवरिल्लें. थोडो तेंप प्रभाकरान तें आपल्या मित्रांक वापरूंक दिल्लें. पूण चड तेंप बंद उरल्यार तें खराब जातलें ह्या विचारान निमणें मडगांवां रावपाचो विचार ताणें मनार घेतलो. हें घर तांणी घेतिल्लें तेदेवेळार लॉट्स घालून पयशे फारीक जाताले. पयलीं पांच हजार, मागीर दर म्हयन्याक चारशें चोवीस रुपये भरून, धा वर्सांनी पंचेचाळीस हजारांक ताणें हें घर घेतिल्लें. तांकां स्वताचें घर नाशिल्ल्यान बापायन ताका फाटीक लागून घर घेवपाक भाग पाडिल्लें. घराची चावी मेळ्ळी तेदेवेळार त्या, घोगळ वाठारांत कसलीच सुदारणा नाशिल्ली. उदका पुरवण, बसीची वेवस्था व्यवस्थीत नाशिल्ली. खंय घर घेतलां? अशे लोक ताका निर्शेवन म्हणटाले. आतां त्या उतरांची याद जाल्यार हांसूंक येता. इतलो हो हावसींग बोर्ड बदलला. पंदरा-पंदरा मिनटांनी बसी धांवतात. हेर येरदारीक तर सुसेगूच ना. दिस-रात रस्तो सामको जागरूक. घरांत चोवीस तास उदक.

८ जून १९८९त ताचें बिऱ्हाड मडगांवां रावपाक आयलें. प्रभाकराली मामी- निर्मलमामी आनी विष्णुमामा हांणीं दोगांयनीय घरांत कितें जाय-नाका तें सगलें हाडून दवरलें. बिट्रूलीं भुरगीं ल्हान म्हणून तांचो संवसार ताणी दिस्तादिस्त मांडून दवरिल्लो. ह्या दोगांयचोय फुडें तांकां पावला-पावलाक खूब आदार जालो. हाउसींग बोर्डाच्या घरांत भुरगीं मजेंत ल्हानाचीं व्हड जातालीं. तांचे बरोबर खेळत म्हजोय बी वेळ मजेंत वतालो. तांकां संपूर्ण रामायण महाभारतांतल्यो काणयो म्हजेकडल्यान जायच आसताल्यो. रातचें न्हिदचे पयलीं तातुंतल्यो बारीक बारीक काणयो आनी तांचें तपशील आयकुपाची सलीलाक खूब आवड आशिल्ली. प्रसन्ना पदां सुंदर म्हणटालें.

रातचें उलयतां उलयतां मर्दीच हांतुणार उठून बसून तें पदां म्हणटालें. गझल लेगीत तें येद्याशा वयार सुंदर म्हणटालें. ताच्या फाटल्यान ताची शेपडी कसो सलील केन्ना ल्हानाचो व्हड जालो कळ्ळोच ना. ताची गुटगुटीत मूर्त अजूनय दोळ्यां मुखार उबी रावता. थोडो तेंप ताचें उलोवप तोतरें अशिल्लें 'पापा तयते हैं बदा नाम तयेगा.' म्हणटां म्हणटां 'तोंतणी भाचा मंदला'न वचून ताणें केन्नाच नांव कमायलें. आमचे शेजरा श्रीधर, अंजू हो कामत परिवार आशिल्लो. तांचीं आश्वीनी–हर्ष हीं भुरगीं आमच्या भुरग्यां वांगडा खेळूंक मेळटालीं. श्रीधर, श्रीराम आनी वत्सल अशीं तिगां जणां आनी तांची आवय, तिका काकी म्हणटाले. तिचे वांगडा हांव सांजेचें पासयेक वतालें. मडगांवां वचून पेंन्शन हाडपाक आमी वांगडाच वतालीं आनी अजूनय प्रभाकर आमकां दोगांकूय अपुरबायेन व्हरून हाडटा.

हावसींग बोर्डांत दारांत सगल्यो तरेच्यो भाज्यो, फळां, नुस्तें, कडडणां, कितें जाय तें विकूंक येता. तुमी घराच्या भायल्यान नात जाल्यार थोडीं भाजीकारां बेल मारून तुमकां भायर आपयतात. ताज्यो, रसरशीत, मळ्यांतल्यान निट्ट दारांत येवन म्हाल उबो आसता. घेतलोच जाय. आनी अर्थांत, पयसोय जाय. प्रभाकराक तर सगलें घेवपाची उमेद. तातूंत, दारांत येवपी जाण्ट्यां आनी गरीब भाजीकारांक गिरायक घालप हें ताचें आवडीचें काम.

सकाळफुडें तांच्या आवाजान, मागीर शेजारच्या बरोबरचें उलोवप तांगेर येवप–वचप. अशा सगळ्या बोवाळांत घर भरिल्लें आसता. एक प्रभाकर घरांत नासल्यार सगलो वाठार किण्ण पडटा.

म्हजो भावार्थ गजानन म्हाराजांचेर आशिल्लो. आनी योगायोगान तांचें देवूळ हाउसींग बोर्डांत आमच्या घराकडल्यान पांच मिनटांच्या अंतराचेर बांदलें. हांव आनी काकी ह्या देवळांत वतालीं.

म्हज्या बापायन म्हाका, कामीण जाल्यार गांवठी वखद दिवपाक शिकयल्लें. तो बेळगावां याळगीगेर रावतालो तेन्ना शिकिल्लो. हांव फोण्यां आसतना जायतो लोक वखदाक येतालो. हांगा येतकूच पत्तो सोदीत, खूब लोक येताले. दोगांय चलयांकूय हांवें तें शिकयल्लें. तळावले बेबीगेरूय खूब लोक येताले. भाऊ आसतना आमी एक फावट तातुंतल्यान आयिल्ले पयशे कॅन्सर सोसायटीक लेगीत दिल्यात.

म्हज्या जिवितांतले सुर्वेचे दीस, म्हळ्यार म्हजें भुरगेंपण, तरणी पिराय आनी जाणटेपण हें वेगवेगळे तरेन गेलें. भुरगेंपण खूब दुखी, आश्रीत, अनिश्चीत अशें भरकटील्लेवरीं गेलें. तरणेंपण मजेन, परत थोडें दुखी अशेंच गेलें. म्हजे जावेन, सुमनान एक फावट म्हजो हात पळोवन म्हणिल्लें, तुका तुज्या जाणटेपणांत पयसो खूब मेळटलो. पूण तरी तुका दुसऱ्याचेर पातयेवन रावचें पडटलेंशें दिसता! म्हजो भविश्याचेर व्हडलोसो विस्वास आसा सो न्हय. पूण ताणें म्हणिल्लें तें खरें जालें शें दिसता. सगळें आसून म्हणटात तशें, हांव धुवेगेर रावतां. लोकांचे दृश्टीन कितें? हो प्रस्न म्हाका केन्नाच पडलो ना. पूत तर देवान परत व्हेलो. धुवो आसात तांच्याच आधारान आयुश्य व्हरप अशें हांवें मनांतल्यान थारायलें. हांव पूत आनी धूव एकूच मानतां. म्हाका तातूंत कांयच फरक दिसना. जाय तो मोग आनी समजीकाय. म्हज्या आयुश्यांत केन्नाच कोणाकडेन झगडें जालें ना. पटलें ना, जाल्यार ओगी रावन कुशीक सरप हें म्हजें धोरण.

प्रसन्ना आनी सलील आतां मनोविकासांत शिकपाक वतालीं. प्रभाकरान दामोदर कॉमर्स कॉलेजीची प्रोफसोराची नोकरी सोडून तो कारे लॉ कॉलेजीचो प्रिन्सिपल जालो. थंय आसतनाच ताणें सरकारि महाविद्यालय केपें कॉलेजींत प्रिन्सीपलाचे जागेखातीर मुलाखत दिल्ली. जेन्ना सलीलचो जल्म जाला त्यावेळारूच सादारण ताका केपें कॉलेजींत प्रिन्सीपल जाल्ल्याची बरी बातमी मेळ्ळी. थंय तो आसतना घरांत लोकांचें खूब

यो-वच आसतालें. मोकळो, मायेस्त आनी आनंदी सभाव आशिल्ल्यान ताका सदांच लोक वश आसताले. दनपरां घरा येतना कोण-ना-कोण ताचे वांगडा सदांच आसतालो. जेवणाचो डबो घेवन गेलो जाल्यार कॉलेजींत कोणाकूय गरज आसा ताका आपल्यालो डबो दिवन तो मेकळो जातालो. ताका लागून घरा आयिल्ले लोक 'तुमचें जेवण बरेंऽ जाता आं, हांवें टेस्ट केलां.' अशें सांगले बगर रावनाशिल्ले.

चवथी तेंपार नेवऱ्यो, लाडू, चकऱ्यो बी करपाक हांवें बिटूक शिकयलें. सणावाराक पुन्नपोळ्यो, कणंगां नेवऱ्यो, पातोळ्यो सगलें यथासांग करतालीं. भुरगींय ल्हान आशिल्लीं. तांचे निमतान घरांत सारकें गोडधोड करतालीं. खंयच्याय कामाचें नांव घेतनाच फुडें सरून भार घेवन हांवें बिटूक सगळी मदत करची. तिनसांजच्यो पीठ कालोवन चपात्यो लाटून दिवंच्यो. एकामेकाच्या सांगातान राविल्ल्यान म्हजेय दीस बरेभशेन वताले. मर्दी-मर्दी केन्नाय आमी फोंडेच्या घरांत वतालीं. साफ-सफाई करून तुटलां-मोडलां तें जाग्यार घालून चार दीस रावतालीं. म्हण्टासर परत मडगवां येवपाचें जातालें. परतें येतना म्हजीं पावलां जड जातालीं. पूण एकलें रावपाचें धाडस जायनाशिल्लें. बिटू आनी प्रभाकर एकलें रावूंकूय दिनाशिल्लीं. प्रभाकर तर म्हाका पुता परसूय चड असो जाल्लो. ताचें सतत म्हजेर लक्ष आसतालें. म्हाका वाचपाक जाय म्हणून केन्नाच ताणें पुस्तकां फाल्त करूंक ना. आयज पूत आसल्यार करतलो आशिल्लो काय ना कोण जाणा! पूण हाणें म्हजें खूब केलें आनी फुडेंय करतलो असो म्हाका विस्वास आसा. ताच्या कपलार मात्तूय आठी आयिल्ली जाल्यार हांव केन्नाच फोण्यां रावपाक वतलें आशिल्लें. पूण एक सुद्धा प्रसंग असो आयलो ना की म्हाका दिसलां हांगचें सोडून आपल्या घरा वचचें.

मडगांवच्या तालुका वाचनालयांत, दामोदर कॉलेजींत, प्रभाकरालो मित्र उल्हास गायतोंडे हाणें सुरु केल्ल्या वाचनालयांत, केन्नाय

विद्यानिकेतनच्या वाचनालयांत अशा खूबशा वाचपघरांत प्रभाकर स्वता खातीर आनी आमचे खातीर पुस्तकां हाडून दितालो. म्हाका आनीक कितें जाय? आतां जाणटेपणांत फक्त दोळे बरे उरल्यार पुरो. पूण अक्षर मोटें आसल्यारूच म्हाका वाचपाक येता नाजाल्यार ना. जाणटेपण म्हळ्यार दुसरें भुरगेंपण म्हणटात तें फट न्ही. भुरग्यांचे आनी जाणट्यांचे प्रस्न सारकेच कशे. तांकांय आपलीं कामां करतना आधार जाय पडटा. तांकांय गोड आवडटा, भोंवपाक आवडटा, हें सगलें म्हाकाय आवडटा. म्हळ्यार हांव जाणटें जायत आयलेंच तर! शरीर थकल्यार लेगीत म्हजें मन तरणेंच आसा दिसता म्हाका. तेच गतीन हांव सगलें करुंक सोदतां. मागीर बिट्टू आनी प्रभाकर म्हज्या हातांतल्यान कितेंय पडत म्हणून भितात. आसूं. म्हजेर खूब मोग आसा तांचो.

दारांत एक आंबो आशिल्लो. दर वर्सा घेऽ म्हणून लागतालो. फळ ल्हान, पूण अपुर्बायेचें. गोड आनी सुळसुळीत. किसरां म्हणटात तीं नांवाक लेगीत नात. झाडार पिकून आमी हे आंबे काडटालीं. पडिल्ले आंबे जमयतना म्हाका अंदू भुरगेपणांतली एक याद आयली. माशेलांतलें गिरिमामालें घर. खूब कुडी. घराभोंवतणी खूब झाडां. तातूंत आंब्याचींय आशिल्लीं. बरे मोटे आंबे काडले काय ते एकठांय करून एके कुडींत दवरपाचें काम म्हजें आशिल्लें. हांव ल्हान तेन्ना. आसत ७-८ वर्सांचें. वयामानान म्हाका माथ्याक खूब केंस आशिल्ले. जे कुडींत आंबे पिकत घाल्ले तेच कुडींत हांव आनी आजी न्हिदतालीं. बरेऽ राती म्हाका जाग आयली, आनी म्हजें माथें जड-जड जावन तटतटील्लेवरी जाल्लें. हांव पिरंगतां तें कानार पडून आज्जेक जाग आयली. 'कितें जालें गो? उठून शें बसलां?' ह्या तिच्या उल्याक म्हजी जाप, 'ऊं, ऊं' अशीच मेळ्ळी. 'कितें?' परत तिणें विचारलें. पूण हे फावट तिणें तुपादिवो म्हज्या म्हऱ्यांत हाडून विचारलें. म्हजो केंसांर हात पळोवन ती रानांत पडली. इतल्यांत

कितें तरी हुळहुळटा तें तिका मिडमिडट्या उजवाडांत दिश्टी पडलें. 'आगो तातड भरले मगो पापणी तुका!' म्हणत ती म्हाका बेगीन–बेगीन भायर घेवन गेली. चौकेर बसून दातोणेन तिणें सगले तातोड अळंग काडले. पोसोभर सकयल पडिल्ल्या त्या तातडांक हांव पळयतच उरलें. दोमळ्यांवरी दिसपी हे तातड चाबऽ मात नात. पूण आंगभर शिरशिरी हाडटात. मागीर म्हाका म्हऱ्यांत घेवन आजी रातभर राखीत रावली. तिचे कुशींत हांव मात सुस्त न्हिदिल्लें. आतां मात हांव खऱ्यानीच जाणटें जायत चल्लां. पर्थून–पर्थून मन भूतकाळांत चडशें रमूंक लागलां.

बेबी भाऊल्या मांडार कपडे शिंवतालें. हेर बारीक–सारीक सामानय विकपाक दवरिल्लें. घरचें काम करून आपली स्कुटी घेवन येवन यो–वच करतालें. भर बाजारांत दुकान आशिल्ल्यान लोकांच्यो वळखी जाताल्यो. स्वतंत्रपणान आपूण कितेंय करतां म्हणून तें खूश आसतालें. केन्नाय आपली स्कुटी घेवन म्हाका मेळपाक मडगांवां येतालें. अशींच वर्सां धांवलीं. भुरग्यांची चौथी यत्ता जावन आतां तीं मनोविकास स्कुलांत शिकपाक वतालीं. तांची पूर्ण वेळ शाळा, तांचो अभ्यास हातूंत बिटू पुराय वेळ गुंतून पडिल्लें. तरीकूय, कपडे शिंवप, शिवणक्लास चलोवप, गायनाक वचप, सितार विशय घेवन संगीत विशयांत डिग्री घेतली. असो कितें ना कितेंय उद्योग ताणें स्वताक लावन घेतिल्लो. 'तुका आवडटा तें कर. नोकरी करपाक नाका.' अशें तेदेवेळार प्रभाकरालें म्हणणें आशिल्लें.

दीस पाखां लावन धांवले. भुरगीं आतां चौगुले कॉलेजींत वचपाक लागलीं. 'आतां भुरगीं व्हड जातकूच तुका वाज येतलो. शिवणीचें काम बी एका ठरावीक वयामेरेन ठीक आसा. तूं खंयूय नोकरी बी मेळटा काय कित्याक पळयना?' अशें हांवें बिटूक म्हळ्ळें आनी बिटून स्वताच पेपरांत जायरात वाचून, मुलाखतीक वचून इंग्रजी शाळेंत शिक्षिकेची नोकरी

मेळयली. मागीर मात प्रभाकर, भुरगीं सगळीं खूश जालीं. आतां दिसूय पयलींचे उरूंक नाशिल्ले. गरज आसूं नासूं सगल्यो बायलो हुंबऱ्या भायर सरिल्ल्यो. स्वताक सोदपाचो यत्न करताल्यो. आपलें राहाणीमान सुदारपाचो यत्न करताल्यो. घर उबारपाक घोवाक हातभार लायताल्यो. आतां म्हजींय भुरगीं जोडूंक लागिल्लीं. म्हज्याय जिवाक बरें दिसलें. आपल्या चलयांनी नोकरी करची अशी भाऊची खूब इत्सा आशिल्ली. ती पूर्ण जाली.

बिटूल्या मांवाक बायपास करचें पडलें. ताची नणंद दो. विभा दोरे पुण्याक रुबी हॉस्पिटलांत काम करतालें. थंय पापाक व्हरून ताचें बायपास ऑपरेशन केलें. थंय म्हयनोभर रावन तीं गोंयांत आयलीं. ताचेनंतर बिटून चड तेंप मांय–मांवाक असोळणेच्या घरांत रावपाक दिलें ना. एक दीस स्वता वचून तांचें सामान–सुमान घेवन, मांय–मांवाक वांगडा घेवन मडगांवां आयलें.

भुरग्यांचो वाडटो अभ्यास, तांच्यो परिक्षा आसताल्यो. पूण कांय न्हीं शें करून आमी सगलीं बरेभशेन एकामेकांक समजून रावतालीं. हांव आनी तेती मेळून रातीच्यो चपात्यो करून काडटालीं. हेर कामांतूय बिटूक मदत करतालीं. करतां करतां खंय कितें वीण चुकली कळ्ळेंच ना. म्हजें थंय रावप खटकुपाक लागलें. हांवें थंय रावप ना, हें कशें योग्य हाचो सल्लो बिटूक मेळूंक लागलो. म्हाका एकलेंच फोण्यां दवरपाक बिटून सामकें न्हयकारलें. वृद्धाश्रमांत वचपाची म्हजी एका पांयार तयारी आशिल्ली. पूण बिटू तें आयकूंक लेगीत घेवपाक तयार नाशिल्लें. 'सगल्यांनी आपलेंशें समजून रावल्यार सगलें सारकें जाता. येदें व्हडलें घर आसा. कोणाक कसलीच आडखळ जायना.' अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें. बिटू आनी प्रभाकरालो सगल्यांक कुशीक घेवन रावपाचो हावेस आशिल्लो.

म्हज्या विचित्र योगोयोगाचें म्हाका केन्नाय अजाप दिसता. बरीं म्हणून मानिल्लीं मनशां म्हजे बाबतींत मात उरफाटें दान दितात. कारण नासतना

म्हजी मानहानी जाता. अपमान गिळचो पडटा. कोडू उतरां आयकुचीं पडटात. पूण.. कोणाच्याच हातांत कांय नासता. शेवटीं आपलेच दीस वायट अशें हांव मानतां.

सगळें हांवें सोंसलें. पूण सोंसूंक जालें ना तें म्हज्या नातवाचें आमकां सोडून वचप. हय. सगलीं दुख्खां उणीं जालीं शीं दिसलीं कीं काय कोण जाणां. म्हज्या सरत्या आयुश्यांत हें दुख्खय सोंसचें पडलें. म्हज्या बेबीक म्हजे भशेनूच पुत्रवियोगाचें दुख्ख झेलचें पडलें. रातपाळीक गेल्लो बंटू, 'मम्मा, हांव भायर सरतां. तूं वाडून दवर.' असो फोन करता आनी घराकडेन पावच ना. वाटेर कुंडयचे देंवतेर ट्रकापोंदा सांपडटा. आमचो येदो व्हडलो अपुर्बायेचो भुरगो अपघातांत वता. गोंयां घराघरांत अशे वायट अपघात दिसपट्टे जाताले. आमकांय ताचो धपको बसलो. हो घाय पचोवपाक आमकां खूब कठीण गेलें. हांव तेन्ना तळावले बेबीगेर वचून दोनेक म्हयने रावलें. बेबीक दुख्खी पळोवन जीव चिटमिटलो. त्याभायर बेबीक सांदेदुखीचो भयंकर त्रास जावपाक सुरवात जाल्ली. उमेदीन मांडार कपडे शिंवतालें ताकाय पूर्णविराम पडिल्लो. मळब परत एक फावट काळखी जावंक सोदतालें.. आमी कांयच करूंक शकनात.

खरें म्हळ्यार स्वता बद्दल फुडें बरोवन म्हाका सहानुभुती मेळोवपाची ना. तो उद्देश म्हजो केन्नाच नाशिल्लो. म्हजो भुतकाळ हुबेहूब म्हज्या दोळ्यां मुखार उबो रावतालो. आवयची उणीव भरून काडपी म्हजो बापूय याद जातालो. म्हणून हें बरप हांवें कांय वेचीक रुपांत घेतलें.

आतां प्राजक्ताचें लग्न जालां. म्हाका अपुर्बायेचो नातजांवय अतुल मेळ्ळा. हुशार, चुणचुणीत, गुणी अशी पणती– आदिती मेळ्ळ्या. इतलेंच न्ही तर, प्रसन्ना–सलील हांचीं लग्नां जावन यशवीत आनी मालविका च्या रुपान आनीकूय पणटुरां म्हाका मेळ्ळ्यांत आनीक म्हाका कितें जाय?

म्हाका म्हणून आतां कांय नाका. जें आसा तें दवरपाक–काडपाकूच हात–पांय थकतात. कोणाल्याय लग्नाक–कारणाक, वाढदिस बी आसल्यार म्हाका उमेद येता ती दोन कारणां खातीर. एक–लग्नाक चार लोक दिश्टी पडटात, उलोवंक मेळटात म्हणून, आनी दुसरे – तांचे खातीर पाकीटांत घालून म्हजो म्हणून थोडो अहेर करूंक मेळटा म्हणून. म्हज्या हातांनी 'शालीनी जी. शिंक्रे (माई) कडून' बरयतना म्हज्या जिवाक समाधान जाता. म्हाका गुरुदासांतलें 'गु' बरोवपाक आवडना म्हणून भाऊन म्हाका 'जी' बरोवपाची आयडीया दिल्ली तिवूय याद जाता.

आतां सगलें बरें आसतनाच, सुखाचे राशीर आसतनाच म्हजे दोळे मिटूं दी इतलेंच म्हजें मागणें. देहदान करपाची म्हजी खूब पयलीं पासून इत्सा आशिल्ली. ती हांवें सगल्यांक सांगून दवरल्या. म्हजो सगलो भावार्थ म्हज्या गजानन महाराजाचेर आसा. तोच म्हजी ही इत्सा पुरी करतलो असो म्हाका विस्वास आसा.

हालींसराक, कालीबरोबर पासयेक वचून परततना सुर्यास्त पळयतालें ती याद जाता. फोण्यां चारुय वटांनी दोंगुल्ल्यांनी बांदून काडलां. त्यावेळेच्या सुर्याक ह्या दोंगुल्ल्यांच्या माथ्यावयल्यान लिपचेल्यांनी खेळतूच येवचें पडटालें. ताकाच लागून तो चड फुलतालो काय कोण जाणा! तांबड्या केसरी रंगांची उधळण करीत तो अस्ताक पावतालो. मागीर सुरु जातालो वाऱ्याचो शितळ प्रवास. चलून आयिल्ली हूम खंयच्या खंय नाच्च जाताली. घरा पावन सूऽऽ.. करून सोप्यार बसता म्हणसर सगलो शीण खंयचे खंय नाच्च जातालो. तो सुर्यास्त आनी तें शीतळ वारें म्हाका आतांशें कित्याक याद जाता काय...!!!



यादें माई हे कोंकणी साहित्याच्या दालनांत भितर सरिल्लें एक आगळें वेगळें पुस्तक. यादें माई हें कोणा नवोदीत वा प्रतिथयश लेखकाचें पुस्तक न्हय. तें एक यादींचें गांठवल. शालिनीबाय शिंक्रे हाणीं आपल्या वांट्याक जी जीण आयली ती कशी गोड मानून घेतली तें ताणीं आपली धूव स्मिता तिंबले हांकां सांगली आनी स्मिताबायन ती आसा तशी उतरावन घेतली. हें शब्दांकन करतना स्मितान तातूंत आपले पदरचें कांयच घालूंक ना वो साहित्यिक संस्कार करूनय तें नटोवंक ना. हाकाच लागून ह्या पुस्तकांत निजाची सुंदराय वाचप्यांक पळोवंक गावतली. यादें माई म्हळ्यार फकत माईच्या जिवितांतल्यो बऱ्यो वायट यादी न्हय तर तो माईच्या तोंडांतल्यान व्यक्त जाल्लो कितल्यातरी माईंचो घुस्मटमार. शिक्षण पदरांत नासलें तरी वाचनाची जोड जिणेक लाभत जाल्यार जिणेचें सार्थक जावं येता हें आपल्या अणभवाच्या मालवजार सांगपी माई खूब आदीं सावन मरणा उपरांत देहदानाची क्रांतिकारी इत्सा उक्तायता. ताचे फाटलें कारण वाचनांतल्यान केळयल्ली हीच प्रगल्भताय. यादें माई हो एक दस्ताऐवज आदल्या काळांतल्या गोंयचे समाज जिणेचो. माई आपल्या यादींचें गांठवल सोडयता अशें दिसलें तरी ती आदल्या काळांतल्या खूबशा माईंची प्रतिनीधी म्हणपाचें पुस्तक वाचल्या उपरांत होलमतलें आनी खूबशा माईंक जीण सारपाक न्हय तर जगपाक हें पुस्तक आधार थारतलें.

- दिलीप बोरकार



स्मिता तिंबले

हांची हेर बरपावळ

आपालिपा, गोंयच्या फेस्ताक (बालसाहित्य)

अक्षरपुनव (ललित)

बिम्ब प्रकाशन



ISBN 978-93-85654-09-1

मोल १६० रू.